


# रानाच्या मनांत

(बाल नवलिका)

**माया अनिल खरंगटे**




गोवा कोंकणी अकादेमी

**रानाच्या मनांत**

बाल नवलिका

माया अनिल खरंगटे

प्रकाशन क्र. 96



**पयली आवृत्ती :**
2007

**उजवाडावपी :**
ज्योसिनो वाझ
सचिव,
गोवा कोकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी
पणजी गोंय 403 001

**मुखचित्र आनी भितरली चित्रां :**
हेमंत कांसार

**छापणावळ :**
कस्तुरी ग्राफीक्स
ढवळी, फोंडें - गोंय

**मोल : 45/-**

**Ranachya Manant**
Novelette for children
by Maya Anil Kharangate

Publication No. 96



**First Edition :**
2007

**Publisher :**
Joaosinho Vaz
Secretary
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony
Panaji Goa 403 001

**Cover & inside Pictures**
Hemant Kansar

**Printer :**
Kasturi Graphics
Dhavali, Ponda - Goa

**Price Rs. 45/-**

# अकादेमीचें उतर...

कोंकणींत बालसाहित्य मोट्या प्रमाणांत उजवाडाक येता. तातूंत कविता, काणयो, निबंद, नाटकुलीं, एकांकी अशा तरेच्या ललित साहित्याचो आस्पाव आसता पूण खासा भुरग्यांखातीर बरयिल्ल्यो अश्यो बाल नवलिका अवघ्योच म्हणच्यो पडटल्यो. देवनागरी लिपयेंत उजवाडाक आयिल्ल्या नवलिकांची संख्या सद्याक तरी विसांवयर आसचीना. बाल साहित्याक मागणी मात खूब आसा.

कोंकणी बाल साहित्याच्या मळावयलो नवलिकांचो हो उणाव थोड्या तरी प्रमाणांत भरून काडचो ह्या हेतून गोवा कोंकणी अकादेमीन 2005 वर्सा 'बाल नवलिका लेखन प्रकल्प' चालीक लायलो. आरंभाक लेखक म्हण नामनेक पाविल्ल्या आनी बालसाहित्याच्या मळार लेखन केल्ल्या अशा लेखकांची एक बसका आपयली तातूंत सुमार सोळा लेखकांनी बाल नवलिका बरोवपाचें लिखित स्वरूपांत मानुनूय घेतलें. तांचेलागीं तश्यो कबलातीय केल्यो पूण दिल्ले मुजतींत अवघ्याच लेखकांनी नवलिका बरोवन पूर्ण केल्यो. ज्यो नवलिका आमचेकडेन आयल्यो त्यो संपादक मंडळामुखार दवरून तांचेर गरज ते संस्कार करून घेतले आनी त्यो आतां पुस्तकरूपान वाचप्यामुखार येता.

एका संचात चार बाल नवलिका उजवाडाक येता. त्यो म्हणल्यार -

१. वर्स फुकट वचूंक ना : गजानन जोग
२. हरीश, पिरीश आनी देंवचार : सतीश दळवी
३. काणी आज्याली : देविदास कदम
४. रानाच्या मनांत : माया खरंगटे

ह्यो चारूय नवलिका आयच्या बालवाचप्यांक मानवतल्यो अशी आस्त आसा.

'बाल नवलिका लेखन प्रकल्प' येवजणेतल्यो फुडल्यो नवलिका अश्योच उजवाडा येतल्यो.

**पुंडलीक ना. नायक**
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

# रानाच्या मनांत

निता टिचर सवेच्या वर्गांत आयली आनी वर्ग ल्हवू ल्हवू शांत जालो. फाटल्या बांकाचेर अजून फुसफूस चलताली. मदल्या बांकावयल्यान विनी तिसऱ्या बांकार बशिल्ल्या पिंकूकडेन दोळ्यांनीच कुरवो करून उलयतालें. पयल्या बांकावेलो मारिओ हळूच चिटारे बरोवन बाकिच्यांकडेन धाडटालो. जो कोण तो चिटारो वाचतालो, तोंडार हात धरून हांसून दुसऱ्याक दितालो.

टिचरीन सदचेवरी मेजार हातांतलीं पुस्तकां दवरलीं. खांदाची पर्स कदेलाक लायली. हातांत खडू आनी डस्टर घेवन तीं फळ्याकडेन वळ्ळी. भुरग्यांकडेन तिची फाट जाली, तशें भुरग्यांनी कुरवांनी उलोवप सुरू केलें. चिटाऱ्यांच्या खेळाकय नेट आयलो.

टिचरिची तांचेकडेन जरी फाट आसली तरीय तिचें लक्ष आसलें. तांचो तोंड धांपून केल्लो बोवाळ तिका दिसतालो. सदचेवरी ती मनांत हांसली. आपल्या भुरगेपणाची तिका याद जाली आनी तिचें तोंड मुमुरखें जालें. हांसत्या तोंडान तिणे भुरग्यांक फुडो केलो आनी म्हळें,

'आता सगळ्यांची कुसकूस-फुसफूस बंद हां. पयलीं हजेरी घेवया.'

- 'यस् टिचर.' सगळ्यांनी एका आवाजांत म्हळें.

'नंबर वन, नंबर टू, नंबर थ्री...' टिचर तकली सकल घालून हजेरी घेताली. भुरगीं तोंडार हाताचो आडस धरून 'यस् टिचर' म्हणटालीं. तांकां सदांच संवय आसली एकट्याचें नांव घेतकर दुसऱ्यान 'हजर' म्हणप. विनीचें नांव घेतल्यार सिमरन हजर म्हणटालें, राजाचें नांव घेतकच व्हिन्सी हजर म्हणटालो. निता टिचरीकय भुरग्यांचीं हीं फकाणां खबर आसलीं. सदचेवरी टिचरीन तांकां म्हळें, ''हें, पळयात तुमी एकामेकाची हजेरी दितात, जाणा हांव. पूण एक दीस त्रासांत पडटलीं. आज हांव हांगा फटवना. तुमच्या तोंडाक पळोवन हजेरी लायतां.''

तास सोंपपाक पांच मिनटां आसतना निता टिचरीन तांकां एक खोशयेची गजाल सांगली. घेऽ भुरग्यांनी वर्ग माथ्यार घेतलो. तांची पिकनीक अंदू सावर्डेचो नळ्या कारखानो आनी साळावलेचें धरण दाखोवंक व्हरपाची थारिल्ली वर्गांत टिचर आसा हाचें भान दवरनासतना भुरगीं खुशालेन पिकनिकेच्यो खबरी उलोवंक लागलीं.

निता टिचर जाणा आसली, पिकनिकेची गजाल सांगतकच कोणाचेंच लक्ष अभ्यासांत लागचें ना. तिणे पुस्तक धापलें आनी उमेदीन फुलिल्ल्या भुरग्यांक पळोवंक लागली. इतल्यांत तास सोंपिल्ल्याची घांट वाजली. भुरग्यांक ताची जाणीव नासली. तीं खबरी उलोवंक गुल्ल जाल्लीं. निता टिचर मुमरख्या तोंडान भुरग्यांचेर

नदर मारून वर्गा भायर गेली.

ह्या सवेच्या वर्गांतलीं सात जाण भुंरगीं घट इश्ट आसलीं. सगळे शाळेक तांच्या इश्टागतीविशीं खबर आसलें. सगळीं तांकां 'मारिओ ॲन्ड ग्रुप' म्हणून उलो मारतालीं. मारिओ, राजा, परेश, जॅकी, मिनल, सिया आनी रिटा अशीं तीं सात जाणां आसलीं.

राजा आनी मारिओ सोडल्यार सगळीं लागीं-लागीं रावतालीं. शाळेंत तशी वाड्यारय तांची इश्टागत. मारिओचो सोयरो तांच्या वाड्यार रावपी. सोयऱ्यांगेर येवपाचें नीब करून मारिओ आपल्या ग्रुपावांगडा खेळपाक त्या वाड्यार येतालो.

हीं सातय जाणां बरींच मस्तीं आसलीं. तशीं तीं व्हडलीं आडांगीपणा करनासलीं. पूण दुसऱ्यांक तिडावप, नांवा दवरप, कुसां लावप अशीं तांचीं कामां चालूच आसतालीं. वयल्या वर्गांतल्या भुरग्यांक लेगीत तीं तिडायतालीं. शिकपाक मात सगळीं हुशार. परेश आनी रिटा तांचेपरस मात्शीं फाटीं. पूण बाकीचीं तांचेकडल्यान अभ्यास करून घेतालीं. तांकां कळना तें शिकयतालीं.

मारिओचो हो ग्रुप मस्तो पूण दुसऱ्यांक आदार करपाकय सदांच फुडें. कोणाक बोर्डावयलें सारकें दिसना तांकां सडसडीत बरोवन दिवप, कोण फाटीं आसा तांचो अभ्यास करून घेवप अशींय कामां तीं उमेदीन करतालीं. विज्ञानाच्या तासाक प्रयोग करपावेळार टिचरीक लेगीत आदार करूंक हींच मुखार.

तांचेमदीं मारिओ आनी परेश मातशे तिडकीवाद्याचे. तांच्या

ग्रुपांतल्या कोणाकय कितेंय म्हळ्यार झगडीं केल्यार तांचे आड झगडूंक हे दोगय पयलीं फुरफुरताले. मागीर बाकीचीं तांकां थंड करतालीं.

तांची मस्ती आनी म्होवाळपणां सगळ्या शिक्षकांक खबर आसली. देखून मारिओचो हो ग्रुप सगळ्या शिक्षकांक आवडटालो. दुसऱ्या वर्गांत वतकच शिक्षक त्या विद्यार्थ्यांक मारिओच्या ग्रुपाची देख घेवंक सांगताले.

एक खेप पांचवेच्या वर्गांतल्या एका भुरग्याचें पेन वारांदाचे भायलेवटेन आशिल्ल्या अरूंद जाग्यार पडलें. वारांदाच्या कठड्याक धरून त्या भुरग्यान पेन काडूंक भायल्यान उडी मारली. ताचो पांयलागून तें पेन मातशें सकल्ले वटेन आशिल्ले गच्चेर पडलें. त्या भुरग्यान फाटीं फुडें पळयनासतना गच्चेर उडी मारली. ताचें पेन मेळ्ळें पूण ताका आतां वयर येवंक येना जालें. बरें, थंय वतले जाल्यार सपणां बी कांय नासलीं.

त्या भुरग्याचेर आकांत आयलो. तो व्हडा-व्हडान रडूंक लागलो. सगळे भुरगे वारांदार जमले. पूण ताका काडटलो कोण? थोडे शिक्षकांक सांगूक धांवले. मारिओ थंयच आशिल्लो. तो झाडार चडूंक फिशाल. अर्दो माड लेगीत तो सहज चडटालो. ताणे गच्चेचो अदमास घेतलो आनी सकयल उडी मारली. पूण त्या भुरग्याक घेवन परत वयर चडपाक थंय कांयच नासलें.

इतल्यांत मारिओकूच याद जाली. पी.टी. सरान राजवाक धरून वयर चडपाक शिकोवपापासत मोठो राजू तांच्या वर्गांत हाडिल्लो तो

मेजारूच आसलो. ताणे आपल्या इश्टाक तो राजू हाडपाक सांगलो. ताचें एक पोंत आपले कडेन उडोवंक लायलें आनी दुसरें वटच्यान राजू भुरग्यांक घट धरपाक लायलो.

भुरग्यांनी मारिओन सांगिल्ले प्रमाण केलें. मारिओन राजू त्या भुरग्याच्या कंबराक बांदलो आनी हातान राजू घट धरपाक लायलो. पूण तो भुरगो भिवंक लागलो. तेबरोबर मारिओन राजू आपल्या कंबराक बांदलो. त्या भुरग्याक आपल्या कंबराक घट वेंग मारपाक लायली. मागीर एका हातान ताणे त्या भुरग्याक धरलो आनी दुसऱ्या हातान राजू घट धरलो. वयल्या भुरग्यांक ताणे ल्हवू ल्हवू राजू ओडपाक लायलो. इतले म्हणसर थंय शिक्षक पावले. तेवटेन प्युवनान गच्चेक निसण लावन तो वयर येतालो ताणे आड्डून मारिओक आसा थंयच रावंक सांगलो. पूण भुरग्यांनी ताका बरोच वयर ओडिल्लो.

हेवटेन शिक्षकांनी भुरग्यांच्या हातांतलो राजू घेतलो आनी ल्हवू ल्हवू मारिओक वयर काडलो. मारिओचो पराक्रम अख्खे शाळेंत पसरलो. तो सगळ्यांचो 'हिरो' जालो. वयल्या वर्गांतले भुरगेलेगीत ताची तोखणाय करताले.

पिकनिकेची खबर आयकून चड खोस जाल्ली मारिओक. साळावलेच्या धरणाविशीं आनी थंयच्या रानाविशीं तितिवान ताका जायत्यो गजाली सांगिल्ल्यो. पिकनिकेक बावीस दीस उरिल्ले पूण भुरगीं मनान केन्नाच साळावले पाविल्लीं.

पिकनिकेच्या उमेदीन फुलिल्ल्या तोंडान भुरगीं शाळेंत आयिल्लीं. शाळेच्या दारांत दोन बशी आसल्यो. पूण अजून दारां उगडूंक

नासलीं. जशीं जशीं भुरगीं येतात तसो पी.टी. सर हातांतल्या पेपराचेर आशिल्ल्या तांच्या नांवांमुखार कुरू करतालो.

पी.टी. सरान वर्गाप्रमाण भुरग्यांचे वांटे केल्ले. थोड्या वेळान सरान तांकां बशींत बसूंक सांगलीं. सरान वळी केल्ल्यो, शिक्षक तांच्या म्हऱ्यांत आसले तरी बोवाळ करीत भुरगीं बशींत चडलीं. बशींत बसतकर तांच्या तोंडान दोनय कामां सुरू केलीं. खावप आनी उलोवप.

सावड्डेची नळयां फॅक्टरी पळयली आनी बशी साळावलेचे वाटेर धांवूक लागल्यो. आतां विद्यार्थ्यांक नवो विशय मेळिल्लो. थोडीं नळयांच्या फॅक्टरिंत पळयिल्ल्या गजाली विशीं उलयतालीं जाल्यार थोडीं साळावले कितें कितें पळोवप ताच्यो खबरी उलयतालीं. कोण शिक्षकांकडेन धरणाविशीं माहिती विचारतालीं. शिक्षकय विद्यार्थ्यांकडेन उमेदीन गजाली करताले.

इतल्यांत बशी धरणाकडेन पावल्यो. धरणापरस बरेच आयल्यान म्हादेवा देवळेकडेन थारल्यो. सरान सगळ्यांक सामान घेवन देवंक सांगिल्लें. सगळी भुरगीं देंवतासर थोडीं देवळांत वचून आयलीं.

सगळीं सकल देंवतकच पी.टी. सरान वळी केल्यो. प्रत्येक वळीवांगडा एक एक शिक्षक दवरून सगळ्यांक चलत-चलत धरणार व्हेलीं. धरणाचें अप्रूप पळयत पळयत सर सांगतात ती माहिती आयकत सगळीं धरणाच्या दुसऱ्या पोंतार पावलीं. गणिताच्या सरान साळावलेच्या ऑफिसांत काम करपी आपल्या इश्टाक सावंताक सांगून गॅस्ट हावसांत भुरग्यांक खावपाक बसोवपाची मान्यताय घेतिल्ली.



त्या गॅस्ट हावसाच्या सरभोंवतणी झाडांच झाडां आसलीं. ताच्या भायर सग्यांनी आडवण घाल्लें. भुर्गीं जेवतकच थंय खेळूंक लागलीं. शिक्षकांनी तांकां खेळपाची मान्यताय दितनाच शिटकायल्लीं. ''सकयल सुकिल्लो पालो पडला. त्या पाल्यांत घडये कांटे आसत, जिवाणी आसत, सांबाळून खेळात. आनी पळय, चड पयस वचूं नाकात. भायर दाट रान आसा. भितर गेल्यार भायर येवंक वाट कळचिना.

विद्यार्थ्यांक शिटकावणी दिवन शिक्षक जेवंक बसले. कांय भुरगीं कोंडाळें करून इस्पिकांनी खेळूंक बसलीं. कांय जाणांनी आपलें बॅट-बॉल हाडिल्लें. ते क्रिकेट खेळूंक लागले. कोणे रींग, कोणे फूटबॉल घेतले आनी ते खेळूंक लागले. कांय जाणां पोरसांतलीं झाडां झोपां तोखेत खबरी करीत फिरतालीं. त्या पोरसांत काम करपी

वायलो दादले तांका उमेदीन झाडांची माहिती सांगताले. दोगूय प्यूवनांक सरान विद्यार्थ्यांवांगडा रावपाची शिटकावणी दिल्ली. तेय तांचे वांगडा खेळटाले.

मारिओक झाडापेडांची खूब आवड. तांचें व्हडलें भाट आसलें. आपल्या तितिवा वांगडा तो जायते फावटीं भाटांत वतालो. तितिवाकय झाडा-पेडांची खूब आवड. ताणे खंयच्या खंयच्यान झाडां वाली हाडून रोयिल्ल्यो. मानांय आसतनाय खासा तो भाटांत वावर करतालो, झाडां झोपांची जतनाय घेतालो. मारिओ जेन्ना जेन्ना तितिवावांगडा भाटांत वतालो तेन्ना सगळ्या झाडांपेडांची माहिती घेतालो. आतां ताका जायतीं झाडां वळखूंक येतालीं.

आतांय गॅस्टहावसाच्या सरभोंवतणचीं झाडां पळोवन ताणे आपल्या गटाक एकठांय केलो आनी तो तांकां झाडां पेडांची माहिती सांगत भोंवडावंक लागलो. भोंवंतां भोंवतां तीं सरयांचें आडवण आशिल्लें थंय पावलीं. थंयच्यो सरयो मोडिल्ल्यो आनी रानांत वचपाक वाटशी जाल्ली. वाट जाल्ली काय सुकीं लाकडां पुंजावंक येवपी बायलांनी ती मुद्दम सरयो मोडून केल्ली कोणाक खबर.

पूण मारिओ आपल्या गटाक घेवन ते वाटेन भायर सरलो. मिनलान ताका शिटकायलो,

- मारिओ, ह्या आडवणा भायर वचूं नाका म्हळां सरान.

- वोगी राव गो, आमी मातशीं हे थंय वचून येवया. राजान म्हळें - 'पूण राजा..'

सियाक उलोवंक दिना आसतना जॅकी म्हणूक लागलो,

- 'सिया, तुका भिरांत दिसता जाल्यार वोस हां, आमी मातशे फिरून येताय.

रिटानय बेगीबेगीन सियाचो हात धरलो आनी म्हळें, - 'भिवनाका सिया, आमी रोखडींच वचून येतलीं.'

शिक्षकांचें जेवन जातकच पी.टी. सर, नायक सर, फुर्तादो सर भुरग्यांवांगडा खेळूंक आयले. हेर शिक्षक भितरच वसून गजाली करूंक लागले.

घड्याळांत ४ वरां जालीं तशें पी.टी. सरान ताकतीक करपाक सुरवात केली. फीउव फीउव करून दोन वेळा पिल्लूक मारली. ते बरोबर सगळीं भुरगीं आपलीं आपलीं बॅगां घेवन एकठांय जालीं. आपलीं बॅगां पिशव्यो घेवन शिक्षकय भायर आयले. पी.टी. सरान हजेरी घेतली आनी सकाळीं आयिल्ली तेच वर्शींत सगळयांक वसूंक सांगलें.

दोनय प्युवनानी सगळयाक फिरून खंय कितें उरलां जाल्यार पळोवंक नदर भोंवडायली. कोणाची चेर्पां, कोणाच्यो पिशव्यो उरिल्ल्यो त्यो घेवन ते वर्शींत चडले. कोणच सकल उरूना हाची खात्री जातकच पी.टी. सर आनी हेर शिक्षक वर्शींत चडले. दोनय वशी बरोबर सुटल्यो.

वर्शींत भुरगीं पदां म्हणत, व्हडाव्हडान खवरी करीत वशिल्लीं. इतलीं फिरलीं , खेळ्ळीं पूण कोणाक पुरो जावंक नासलें. उलोवन,

पदां म्हणून कोणाचें तोंडय वळूं नासलें. उमेदीन सगळीं वोवा करतालीं. सदांच वर्गांत वोगी रावात, उलय नाकात म्हणून आड्डुण शिक्षकय आज भुरग्यांमदीं भुरगे जावन तांचेकडेन खेळटाले, गजाल करताले.

सवेची वर्गशिक्षिका निता टिचरीक तर भुरग्यांवांगडा खेळपाचें घोस्त. तांचे वांगडा भेंडयांनी खेळटना ती आपलें वय विसरून वताली. निता टिचरीचो आवाज बरो, भुरगीं तिका पद म्हणपाक लायतालीं. तीय उमेदीन म्हणटाली. खेळ रंगात आयिल्लो.

केपें गेलें. बस आतां मडगांवच्या मार्गाक लागिल्ली. भेंडयांनी खेळटना निता टिचरीचे गटाक 'र' अक्षर आयिल्लें. र वेल्यान कोणाकच पद येवजना जालें. सियान सकाळीं भेंडयो खेळटना एक पद म्हणिल्लें. निता टिचरीक याद जाली. पूण ताची वळ येवजनासली. तिणे सियाक उलो केलो. सियाची जाप आयली ना. सकाळीं सिया रिमा म्हऱ्यांत बशिल्लें. सगळयांनी तेवटेन पळयलें. रिमान बेगी-बेगीन म्हळें ''ना टिचर, सिया आतां म्हज्या म्हऱ्यांत बसूंना.''

- सिया खंय? सगळ्यांच्यो नदरो बसभर सियाक सोदूंक लागल्यो. सिया बशींत नासलें. मिनाक्षीन म्हळें, 'टिचर मिनल आनी रिटाय ना.'

- ते बशींत गेल्यांत जातलीं. कुंडयकार सरान म्हळें.

- हय सर, राजाय ना. सकाळीं म्हज्या म्हऱ्यांत बशिल्लो तो. रुचिरान म्हळें

- सगळ्या भुरग्यांक सोकाळीं बोसलेलीं तेच बशींत वोसात म्हुणलेलें. हेणी बोस चेंज कित्या केली? पांचवी सोवी आनी सातवे भुरगीं हे बशींत घालूं लायलेलीं सोरान. बसलेकडेन पि.टी. सर म्हाका तापोयतलो. प्युवनान फडफडत म्हळें.

- टिचर मारिओ, परेश आनी जॅकीय ना. 'कितें? तशें जाल्यार हो ग्रुप थारावन ते बशींत गेला जातलो.' एका सरान म्हळें.

- निता, खोरेंच हीं त्या बासान आसतोलीं मुगो? बेठो दुबाव येता. मारिया टिचरीन हळूच निताच्या कानांत सांगलें. निताच्याय मनात बेठेच वायट विचार येताले. तरी उश्णो धीर धरून ताणे हळूच म्हळें, "हें, मारिया बेठेंच हुस्केनाका. दामू आनी जॉनीन निमणे सगळ्याक भोंवून पळयलां. हांव आशिल्लें न्हय थंय". "सायबा भोगोस, भुरगीं त्या बासांत आसल्यार पुरो." छातयेर क्रोसाची कुरु करून मारिया टिचरीन म्हळें.

इतलें मर्दी भेंडयांचो खेळ बंद जाल्लो. बस रावणफोंडार पाविल्ली. इतलो वेळ ओग्गी बशिल्ले सुचिता टिचरीन म्हळें, "आगो, अशी हुस्केतात कित्याक? नायक सराकडेन मोबायल आसा न्हय. पी.टी.सराक फोन करपाक लाय."

- कितें आमची तकली? नायकाल्या मोबायलाचों आनी केन्ना उपयोग जावपाचो. अशें म्हणत निताटिचर नायक सरा म्हऱ्यांत गेली. तिणे आपलो हुस्को ताका सांगून पी.टी.सराक फोन करपाक लायलो.

- तुमी मगो बेठींच भितात. हे बशींत ना तीं भुरगीं तेच बशींत



आसतलीं न्हय? थंय तरी कोणच नासलो. ''आसूं रे, तूं फोन कर. आनी भुरग्यांक आमी येसर थंयच दवर म्हणून सांग. तापयतलेंच तांकां हांव.''

'हॅलो.... हॅलो.. उमेश, आरे आयकूं येना.. आं.. सवेचीं भुरगीं.. मारिओ आनी ग्रुप..हय हय. आं.. तुमी शाळेकडेन पावत आयले.. बरें.. कोणाक देंवयनाकात.. आमीय पावले..

मारिओ सगळ्यांक घेवन रानाच्यो झाडापेडांच्या खबरी सांगत मुखार मुखार वेतालो. सगळ्यांच्या दोळ्यांत अजाप भरिल्लें. ताणी अशें रान केन्नाच पळोंव नासलें. टि.व्ही.चेर पळयल्लें. पूण ह्या रानाची सर ताका खंय. परेशाचे आजोळ काणकोणां. ताका मातशी रानाची वळख आसली. तोय तांकां झाडांच्यो गजाली सांगतालो. सगळीं गुल्ल जावन तांच्यो गजाली आयकत झाडां तोखेत मुखार

मुखार वतालीं.

इतल्यांत मिनलाक बस सुरू जाल्ल्याचो आवाज आयलो. ताणे वेगीवेगीन म्हळें,

- आरे, आरे, आमी उलयत उलयत खंय पावलीं? वस सुरू जाल्ल्याचो आवाज येता.

- हें, वोगी बस मिनल. इतल्या उकसार वास केशी सुट्‌टली? सरान चारांक वचया म्हुणलां.'' जॅकीन मिनलाक पिशार काडलें. राजान हाताचे घड्याळीक पळयलें आनी किळंचलो, ''आरे ! साडेचार जावन गेलीं. बस सुटली ना मूं?''

- आरे देवा ! आमी कितें करया? परेश रडकुळो परतलो. सिया आनी रिटाचेय दोळे भरून आयले.

खिणभर कोणाकच कांय येवजना जालें. इतल्यांन मारिओन म्हळें, ''आरे, आमकां सोडून सर कसो वेतलो? चल, आमी धाव मारया.''

ह्या रानांतल्यान धांव मारून वचपाक म्हज्यान जावचें ना. आमी सडसडीत चलत या. मिनलान रडव्या सुरान म्हळें.

सगळीं फाटल्यान वळून चलूंक लागलीं. पूण...पूण वाट खंय आसली? येतना झाडा झोपां तोखेवपाच्या वोवाळांत ताणी जमनीकडेन थोडेंच पळयलां?

- मारिओ, वाट ना. आमी कशीं आयिल्लीं? जॅकीन भियेवन

म्हळें.

- बेगीन पाऊक जाय आमी. ना जाल्यार वस वतली.

- आतां उलव नाकांत. सडसडीत पावल उखलात. गजान धेंगसो घालो.

सुकीं पानां, कांटयो, झोपां हातुंतल्यान वाट काडीत तीं खर्शेत खर्शेत वतालीं. पूण भुरग्यांचो आवाजय आयकूंक येय नासलो आनी गॅस्ट हावसय दिश्टी पड नासलें. बरो वेळ चलून लेगीत तांकां झाडां झोपांशिवाय कांयच दीस नासलें. आतां तांकां पुरो जाल्लें. थंयच आशिल्ल्या एका व्हड झाडाच्या मुळार तीं बसलीं. सगळ्यांचेच दोळे दुकांनी भरिल्ले. उलोवपाचो धीर कोणाकच नासलो. सिया आनी रिटा येदो वेळ रडत-रडत चलतालीं. तींय येवन मुळार बसलीं.

थोड्या वेळान मिनल उठलें. आपले दोळे पुसले आनी ताणे म्हळें, ''आतां अशें रडत बसून कशें जातलें? चलात, उठात आमी वाट सोदुंया.''

- ''वाट आनी खंय सोदतलीं आमी. पळय मगो, सगळेकडेन झाडां आनी झोपां.'' परेशान रडकुऱ्या सुरान म्हळें.

- 'सकयल सुको पत्रो, कांटयो. पांयवाट लेगीत ना.'' मारिओन म्हळें. ते बरोबर राजान सांगलें,

- ''तरीय आमी वाट सोदुंया. अशे बसून कितें करतलीं?''

''आमकां सोडून सर बी गेल्यांत आसतलीं'' रिटान भीत भीत

म्हळें.

"हें म्हाका दिसना. पूण तांकां कशें कळटलें आमी शेणल्यांत म्हूण?"

"आरे, सर हजेरी घेवन भुरग्यांक वर्शीत वसयतलो. तेन्नाच कळटलें आमी ना म्हूण."

मारिओ इतलो वेळ कानाफाटल्यान हात धरून खंयच्यान आवाज येता काय पळयतालो. ताणे सट् करून म्हळें, "आमचे पाडे संवयेन परतून घात जायना जाल्यार पुरो."

"कसलो रे?" सगळ्यांनी भिवन विचारलें. "आमी क्लासींत टिचर हजेरी घेतना सदां एकामेकाच्या नंवरार हजर म्हणटात. तशें जर आज हेरांनी केलें जाल्यार आमी ना म्हणपाचें कोणाक कळचेंय ना." मारिओचें उलोवप आयकून सगळींच भियेलीं. "खरेंच अशें जालें जाल्यार सराक कळचेंना आमी ना म्हूण. तीं गेलीं वी ना मरे?" मिनलाचे दोळे भरून आयले. "निता टिचर आमकां सदांच म्हणटाली, 'तुमी त्रासांत पडटले हे संवयेक लागून' खऱ्यानीच सर वी गेले जाल्यार..." जॅकीन रडव्या सुरान म्हळें. "तीं गेलीं जाल्यार... उरलीं जाल्यार... हें चितत वसचे परस आमी कशींय तरी गॅस्ट हावसाकडेन पावपाची वाट सोदुंया. हांगाच रात जाली जाल्यार कितें करतलीं?" चलात, उठात." राजान सगळ्यांक उठयलीं.

'हय, हय' म्हणत सगळीं नवे उमेदीन चलपाक लागलीं.

सावित्री विद्यालयामुखार पालकांची आनी वाहनांची गर्दी जाल्ली.

स वरांमेरेन पिकनिकेक गेल्लीं भुरगीं येतलीं म्हूण तांकां सांगिल्लें सगळ्या पालकांच्या तोंडार दिसभर दिसुनाशिल्लीं भुरगीं मेळटलीं म्हणपाची खोस दिसताली. तेचबरोबर तीं बरेभशेन आयल्यार पुरो ह हुस्को दिसतालो. थोडे पालक मोबायलाचेर शिक्षकांक फोन करून खंय पावल्यात ताची चवकशी करताले.

इतल्यांत रस्त्याच्या व्होल्तार बस दिसली. इतलो वेळ एक जाग्यार वोग्गी आशिल्ल्या पालकांमदीं हालचाल सुरू जाली. कोण-कोण आपले स्कुटरी म्हऱ्यांत गेले, कोण गाडयेंत वचून बसले.

पयली बस येवन उबी रावली. सगळे पालक आतां भुरगीं देंवपाची वाट पळयताले ते मातशे मुखार आयले. दर वर्सा बस शाळेकडेन पावचे पयलींच भुरग्यांचो कलकल पयलीं आयकूंक येतालो. आज बस थांबली तरी मातय आवाज नासलो. बशीचें दार बंद आसलें. भुरगींय देंवची ताकतीक करी नासलीं. म्हण्टासर दुसरी बस आयली. पूण तिचेंय दार उगडलें ना. तातुंतलींय भुरगीं ओग्गी बशिल्लीं.

पालकांक खिणभर काळजाची टीक टीक थांबिल्लेवरी दिसली. “कितें जालें काय देवा?” कोणे तरी म्हळें आनी खिणात दोनय बशींकडेन ताणी गर्दी केली.

पयले बशीचें दार उगडून पी.टी. सरान म्हळें, “अशी गर्दी करनाकात. आमी हजेरी घेवन भुरग्यांक देंवयतले.” इतलें सांगून भितर वचून ताणे दार बंद केलें.

भायर पालक अस्वस्थ जावन आपलीं भुरगीं दिसतात मू म्हूण पळोवंक लागले. जांकां आपलीं भुरगीं दिसलीं तांचें काळीज थंड जालें. तीं पेल्यान सरलीं. पूण कुचकूच चालूच आसलो.

- आतांशी वाये हजेरी घेवप? भुरग्यांक बशींत वसयतना घेतली ना?

- वोदोळच्यान मोबायलाचेर पी.टी.सर सांगी सगळें वरें आसा म्हूण. भिवनाकात. आतां हें कितें?

- दामवावा पाव सायबा, सगळीं वरी आसात शीं कर.

- कांय जावंक ना मू?

- भुरग्यांक पयलींच पुरें जालां आसतलें.

- देवते तूं पावगे. सगळीं वरी आसल्यार पुरो.

पालक आरते-परते बडबडटाले. कांय आवयो रडपाचेच तयारेंत आसल्यो. दोनय बशींत भितरल्यान सर मोबायलाचेर उलयताले. इतल्यांत हेडमास्टराची गाडी आयली. एक गरजेची मिटींग आशिल्ल्यान हेडमास्टर पिकनिकेक वचूं नासलो.

हेडमास्टर मोबायल कानाक लावन उलयत सकयल देंवलो. इतल्यांत दोनय बशींचीं दारां उगडून शिक्षक भुरग्यांक सकयल देवोंवक लागले. भुरगीं मुकाट्यानी आपल्या पालकाम्हर्‍यांत वचूं लागलीं. सगळ्यांचो प्रस्न आसलो 'कितें जालें? कितें जालें?'

खिणात सगळ्यांक वातमी पावली. 'सवेच्या वर्गांतलीं सात

भुरगीं येवंक नात.'

- येवना?... काय शेणलीं?... काय खंय गेल्लीं?... एकदम सात भुरगीं... इतलीं जाणा ना जावन शिक्षक कितें करताले?... धरणाच्या उदकांत वी.....

सातय भुरग्यांच्या पालकांनी एकच आकांत केलो. मारिओक व्हरूंक आयिल्लो तितीव सगळोच आवूज जालो. मोवायलावेले नंबर लेगीत ताका दिसना जाले. मिनल आनी रिटा परेशाच्या पप्पा वगेवर वचपाची आसलीं. परेशाच्या पप्पा तांचे घरा पयलीं रकाद दिलो आनी मागीर वायलेक फोन केलो. सियाची आवय तर घुंवळ येवन पडली. राजा आनी जॅकीच्यो आवयो व्हडाव्हडान रडूंक लागल्यो. सगळ्याच पालकांचेर आकांत आयलो.

ते हांकां थातारपाचो यत्न करताले. सगळे शिक्षक व्याण तोंड करून एकेकडेन उबे आसले. निता आनी मारिया टिचर भितरले भितर रडटालीं. सगळींच तांकां आरते-परते प्रस्न विचारतालीं.

- भुरगीं शेणलीं कशीं?... खंय गेल्लीं?... सात भुरगीं ना जालीं जाल्यार बस सोडटना कशें कळळें ना... भुरगीं कमी आसतना वस सोडलीच कशी?... शिक्षक कितें करताले?... भुरग्यांक सांबाळू नज जाल्यार गेल्लीं कित्याक... खबरी मारीत बशिल्लीं दिसता... आपली पिकनीक समजून हीं मजा करताली दिसता... भुरग्यांचेर लक्ष नासलें.

अशे तरेचे साबार प्रस्न पालक शिक्षकांक विचारताले. कोणाचकडेन जाप नासली. तरी धीर करून निता टिचरीन हेडमास्टराक

सांगलें, ‘‘हजेरी घेतना सवेच्या वर्गांतलीं भुरगीं एकमेकाची हजेरी दितात. हे खातीर तांका हांव सदांच तापयतालीं. आयजय ताणी तशेंच केलें आसतलें म्हूण पी.टी. सराक हजेरी घेतना सात भुरगीं ना जाल्यांत म्हूण कळुंना जातलें.

मारिया टिचरीन निता टिचरीक तेंको दिलो. ‘‘पूण भुरगीं वतलीं खंय?’’ हेडमास्टरानय तोच प्रस्न केलो.

इतल्यांन पोलीस आनी रिपोर्टर आयले. ते बरोबर बरेचशे पालक आपल्या भुरग्यांक घेवन थंयच्यान गेले.

तीं सातयजाणां मोठे उमेदीन वाट सोंदूक उठलीं. रात जावचे पयलीं कशीय करून वाट सोदप हो निश्चेव तांच्या तोंडार दिसतालो.

बरोच वेळ तीं भोंव भोंव भोंवलीं. कांट्याखुट्यांची आतां तांकां पर्वा दीस नासली. मर्दीमर्दी तांकां जीव-जिवात, सुण्यावरी दिसपी मोठ्या शेपडेचे प्राणी, रान कोंबे, सोंशे दिसताले. ते हांकां पळोवन पयसुल्ल्यान धांवताले. पूण आतां तांकां तांचोय भंय दिसनासलो. तांच्या दोळयामुखार आसलें तें फकत ‘गॅस्ट हावस.’

ल्हवू-ल्हवू उजवाड कमी जावंक लागलो. तांकां हाची जाणीव नासली. खंयच्यान वाट मेळटली हें येवजीत तीं चलतालीं. मदींच रावून कसले आवाज आयकूंक येतात काय हाची सुलूस घेतालीं. फकत पक्षांचे आनी रातकिड्यांचे आवाज येताले.

इतल्यांत जॅकीचें लक्ष आपले घड्याळीचेर गेलें. - ‘‘आब्बा ! साडे पांच वरां जाता थंय आसात. काळोख कितलो जालो तो

पळय.''

जॅकीच्या उतरानी सगळीं साबुद्धेर आयलीं. ''वाट सोदतां सोदतां आमी वेळ पळयलो ना. आतां गॅस्ट हावस सोड कोणालें घर लेगीत दिसना.'' ''आतां कितें करप?'' परेशान रडकुऱ्या आवाजान विचारलें. ''म्हजे पांय तर सामके दुखूंक लागल्या, मातय चलूं नज.'' सियान म्हळें.

मिनलाक व्हदोळच्यान तान लागिल्ली. पूण वाट सोदपाच्या बोवाळांत तें उदक सोदूंक बसूं नासलें. आतां ताणे बॅगांतल्यान बाटली भायर काडली. तातूंत दोन घोंटच उदक आसलें. तितलेंच पियेवन रिकामी बाटली बॅगांत घालून ताणे म्हळें, ''आतां रातचें हांगा रावचें पडल्यार म्हजेकडेन उदक लेगीत ना.''

- रातचे हांगा? हें, हांव रावपा ना. म्हाका फ्लॅटांत लेगीत रातची मम्मी ना जाल्यार भिरांत दिसता. रिटान भियेवन म्हळें.

- आता फ्लॅट, मम्मी सगळें विसर. आतां आमी वतलीं खंय? खंयच दिवो दिसना, घर दिसना. वाट तर नाच ना. कितें करप आमी? राजाचो सूर रडिल्लेवरीं जाल्लो. इतल्यांन माकडाचें भिरें ह्या झाडावयल्यान त्या झाडार उडयो मारत 'हूप-हूप, कीच-कीच' असो बोवाळ घालीत गेलें. खिणभर भियेवन हीं सगळीं वोग्गी उबीं रावलीं.

मारिओ व्हदोळच्यान वोग्गी आसलो. तो कितें तरी सोदतालो. परेशाचें लक्ष ताचेकडेन गेलें. ताणे म्हळें, ''मारिओ, तूं कितें सोदता?

- झाड, बऱ्यो खांदयो आशिल्लें झाड सोदतां.''

- झाड? झाड कित्याक रे मारिओ? मिनलान भियेवन विचारलें.

- कित्याक म्हळ्यार, काळोख वाडत आसा. आतां जमनीर रावप म्हळ्यार भिरांत. आमी झाडार चडून वसुंया.

- म्हणजे, आमकां रातचें हांगाच रावचें पडटलें? म्हाका झाडार चडूंक लेगीत येना.

मिनल, रिटा, सिया, परेश सगळींच रडपाक लागलीं. इतल्यावेळान तांकां घरची याद आयिल्ली. आनी रडपाचे कड येताले. राजाक आनी जॅकीकय रडूं येतालें. पूण अडेचो धीर हाडून ते तांका फुसलावपाच्या निमतान आपल्याच मनाक थातारताले. मारिओ मात घट जावन बरेशें झाड सोदत पयस पाविल्लो.

"मेळ्ळें, मेळ्ळें." मारिओन खोशयेन म्हळें. "कितें मेळ्ळें? घर मेळ्ळें? गॅस्ट हावस दिसलें?" सगळ्यांनी मारिओ म्हऱ्यांत धांव घेतली.

- घर आनी कोणाचें मेळटलें? म्हाका झाड मेळ्ळें. हें पळय. काय बरें झाड. हाचे मोठे मोठे खांदे सकलाच आसात. चडपाकूय बरें आनी बसपाकूय बरें. झिळमिटो उजवाड आसतनाच आमी झाडार चडून बसया. मागीर काळखांत कांय दिसचें ना. मुतूनय येयात. मागीर सकला देवूंक लेगीत भिरांत.

मारिओन तांकां पळयनासतना सांगलें आनी मुतपाक गेलो. खरें म्हळ्यार ताकाय रात ह्या रानांत, काळखांत काडपाचो भंय दिसतालो. शिवाय तीं रडटात तें पळोवन ताकाय आतां घरची याद आयिल्ली.

पूण आपूण रडल्यार तीं सगळीं धीर सोडटलीं. हें तो जाणा आसलो. ते भायर 'हांव कोणाक भियेना' अशें तो सदांच तांचेकडेन झेत मारतालो. म्हण्टकीर आतां भियेता म्हूण दाखयल्यार आपल्याक लज जातली म्हूण तो तोंड लिपोवन सगळ्यांक ताकीत करीत मुतपाक गेलो.

सगळीं मुतून आयलीं. राजान सकयल आसतनाच सगळ्यांक



सांगलें. ''आतां आमी कोणेच रडप ना. कशेंय करून आज रात आमकां हांगाच रावूंक जाय. फाल्यां सकाळीं उठून पळोवया खंय वाट मेळटा ती.''

सगळ्यांक राजाची सांगणी पटली. ना पटून करतलीं कितें? सिया, रिटाय मातशीं सावरिल्लीं. आतां झाडार चडपाक जाय आसलें. मिनल कुंकळ्ळे आत्यागेर वतालें तेन्ना ल्हान झाडांचेर चडटालें. पूण ह्या व्हडल्या झाडार अंदूक उजवाडांत कशें चडप? रिटा आनी सियाकय झाडार चडूंक येना आसलें. तांकां हुस्को जालो. पूण मारिओ आनी राजान युक्तेन सगळ्यांक वयर चडयलीं. तिगांय चलयांक ताणीं सकयल्ले मोट्ठे खांदयेर फाटल्यान तेंकूंक एक खांदी आसा अश्याच जाग्यार वसयलीं. वयल्या दोनय खांद्यार चवगूय चले बसले. हांची सुलूस लागतकीर त्या झाडावयलीं सुकणी पयलींच दुसऱ्या झाडार वचून वशिल्लीं.

थोडो वेळ कोण्ण कांयच उलयलो ना. सगळीं वोग्गी वसलीं. प्रत्येकाक घरची याद येताली. 'आमी ना म्हूण मम्मी, पप्पाचेर कसो आकांत आयला जातलो? मम्मी कशी रडटा आसतली? हें येवजून तांकां भंय दिसतालो आनी रडूंकय येतालें. म्हूण कोणच आपल्या मनांतले विचार एकामेकाक उलोवन दाखयनासलीं.

बरोच वेळ वोग्गी बसतकच आपल्याक भूक, तान लागल्या म्हणपाची तांकां याद जाली. ताणीं त्या काळखांतच आपल्या फाटीचें बॅग काडून उस्तिलें. कोणाच्या बॅगांत पाव, फळां आसलीं, कोणाकडेन बिस्कुत्यां पुडे आसले, कोणाकडेन लेजाचीं अर्दीं अर्दीं पाकिटां

उरिल्लीं. मारिओकडेन दोन-चार तातयां उरिल्लीं. परेशाचो ककाचो डवो तर तस्सो उरिल्लो. तो ताणी तसोच फाल्यांपासत दवरलो. बाकीचें खाण ताणी वांटून खालें. प्रत्येकाचे वाटलेंत उरिल्लें उदक तीं दोन दोन घोंट पियेंलीं.

"आमची मम्मा जाय ताचेपरस चड खावंक दिता म्हूण आमी सदांच वोवाळ घालतालीं न्हय. आज तेंच चड खावंक आमकां कशें उपकारा आयलें पळय." मिनलान हांसून म्हळें. सगळ्यांनी ताका तेंको दिलो.

आतां काळोख वाडिल्लो. तांकां कांयच दिसनासलें. रातकिड्यांचे आवाज वाडिल्ले. मर्दीच वेगवेगळे विचित्र अशे आवाज येताले. मर्दीच घुबडाचो आवाच येवंक लागलो. ते बरोबर लागच्यान नातकाचो आवाज येवंक लागलो. ह्या आवाजानी सगळ्यांक भंयान कडकडो भरलो. परेशाक मात ह्या आवाजाचो तितलोसो भंय दिसूं नासलो. ताणे काणकोणा हे सगळे आवाज आयकल्ले. ताणे फुतफुतून तांकां सांगलें,

- हें घुगूम आनी नातूक रडटा. नातूक 'कोण थंय? कोण थंय?' म्हणटा काय दिसता पळय, आयकात."

पूण आयकुपाचे स्थितींत कोणच नासलीं. रानातल्या भयांकृत आवाजान आनी थंड वाऱ्याच्या कुडकुड्यान बेजारून गेल्लीं. तीं बशिल्ल्या त्या झाडा मुळांतल्यानय कोण कोण धांविल्ल्याचे, घश्टून वचपाचे आवाज येताले.

गजाक आनी मिनलाक पुस्तकां वाचपाची खूब आवड. ताणीं रानाचीं वर्णना जायत्या पुस्तकांनी वाचिल्लीं. तीं सगळीं तांच्या दोळयामुखार येतालीं. मारिओच्या तितिवान ताका रानाविशीं जायत्यो गजाली सांगिल्ल्यो. झाडार जिवाणीं रावतात हेंय तो जाणा आसलो. 'आमच्या वासान एक हार झाडार वयर चडलो जाल्यार?' हें येवजून ताका कडकडो भरिल्लो. हेरांकय टी.व्ही.चेर पळयिल्ल्या रानांची, तांतल्या जनावरांची याद जावन भंयान पोटांतल्यान कवळो येतालो.

पूण कोणच कांयच उलयनासलो. इतल्यांत रिटा व्हडाव्हडान रडपाक लागलें. सगळ्याचो भंय वाडलो. कितें जालें म्हणून कोणाकच कळना. मिनलान हळूच काळखांत सांसपून ताचो हात धरलो, आनी म्हळें, "कितें जाले रिटा? .. वोगी वोगी, रिटा, रडून आतां कांयच जावपाक ना. तुका कितेंय जाल्यार आमी इतले रातचीं कितें करतलीं?.." प्रत्येक जाण ताका फुसलायतालीं. पूण रिटा रडत आसलें. थोड्या वेळान रडपाचो ओग थांवतकच ताणे म्हळें, "ह्या रानांत वाग वीन आसतले मुरे. ते वयर लेगीत चडटात खंय. आमकां खायलें जाल्यार?"

"ए पिशा, ह्या रानात वाग वी कोण ना. वेटेंच भिनाका. वाग आसलो जाल्यार इतलो वगत एकदां तरी ताची गरड आमकां आयकूंक येतली आसली." मारिओन ताका तापोवनशें सांगलें. खरें म्हळयार ताकाय वागाचोच भंय दिसतालो. म्हूण रिटाक फुसलावपाच्या निमतान ताणे आपल्याच मनाक थातारिल्लें.

उपरांत सगळीं एकामेकाचो हात हातांत धरून झेमपाक लागलीं.

मर्दी मर्दी जनावरांचो लाग्गीं आवाज येतकच तीं कच्च करून जाग्गीं जाताली. परत एका हातान झाड आनी एका हातान इश्टाचो हात धरून झेमतालीं.

हे वटेन कितें जालें. मारिओ आनी पंगड दोनय वर्शांत ना म्हूण कळ्ळें बरोबर पी.टी. सरान मोबायलावयल्यान हेडमास्टराक कळयलें. हेडमास्टरान वेळ वगडायनासतना आपलो इश्ट इन्स्पेक्टर फेर्नांडीसाक फोन केलो. दोनय वर्शी शाळेच्या दारांत पावतासर हेडमास्टरय थंय पावलो.

फाटोफाट इनस्पेक्टर फेर्नांडीस आपल्या वांगड्यांक घेवन थंय पावलो. पालकांची रडारड, कचकच, बोवाळ हातुंतल्यान वाट काडत इन्स्पेक्टर आनी हवालदार मुस्तफा हेडमास्टरा म्हऱ्यांत पावले. तांका आयिल्ले पळोवन कांय पालक हळूच आपल्या भुरग्यांक घेवन गेले. कांय पालक मात त्या सातय भुरग्यांच्या पालकांक आनी सोयऱ्यांक धीर दीत उबे आसले.

इन्स्पेक्टरान पयलीं सगळ्या शिक्षकांक एकठांय केलीं. सकाळीं शाळेंतल्यान भायर सरतपसून परत येमेरेन कितें कितें घडलें तें विचारलें. हवालदार मुस्तफा सगळें बरोवन घेतालो. शिक्षकांच्यो जबान्यो घेवन जातकच प्युवनांक माहिती विचारली. सगळ्यांनी त्या सातय जाणांक जेवतनामेरेन पळयिल्ल्याची खबर सांगली. जेवल्या उपरांत गॅस्टहावसाच्या भोंवतणचे बागेत तीं फिरतालीं अशे एका प्युवनान सांगलें. ताणे तांकां 'चड मुखार वचुनाकात, फाटीं सरात' म्हणूनय सांगिल्लें. त्या उपरांत तांकां खंयच पळयिल्ल्याची कोणाकच

याद जाय नासली.

सगळ्यांच्या उलवण्यातल्यान तीं सातयजाणां एकठांय खंयी तरी आसतलीं म्हणपाचें कळ्ळें. पूण खंय ! रात जाल्ली. गॅस्ट हावसा फाटल्यान व्हडलें रान आसलें. 'रातच्या वेळार भुरग्यांचें कितें' हें येवजून शिक्षकांचेय दोळे भरून आयले.

पोलिसांनी सगळी वासपूस केली. जाय जाय तांच्यो जवान्यो घेतल्यो. तांच्या इश्ट-इश्टिणीकडेनय चवकशी केली. निमणे इन्स्पेक्टरान सांग्यावेल्या पोलिसस्टेशनार सगळी गजाल कळयली. तेच बरोबर 'आपूणय थंय येतां. तयारेन रावात' म्हणून रकाद दिलो.

सातय भुरग्यांच्या पालकांक धीर दिवन इन्स्पेक्टरान तांका तशेंच हेर पालकांक आनी शिक्षकांक घरा वचूंक सांगलीं. इन्स्पेक्टर आपलो पंगड घेवन सांग्यार वचूंक भायर सरलो.

थंय उरिल्ले सगळे पालक आनी विद्यार्थी दुखेस्त जाल्ले. पिकनिकेची उमेद खंयचेखंय शेणिल्ली. सगळ्यांचीं पावलां जड जाल्लीं. भुरग्यांची खबर कळयाशिवाय थंयच्यान वच्चें न्हय अशें सगळ्यांक दिसतालें. पूण रात वाडत आसली. आनी भुरगीं शेणिल्लीं तीं साळावले. पोलीस तांकां सोदूंक गेल्ले.

''आतां आमी घरा या इन्स्पेक्टराक हांव फोन करीत रावतलों. कितेंय खबर कळ्ळ्यार हांव तुमकां कळयतां. ह्या कागदार तुमचीं नांवां आनी फोन नंबर बरयात''. हेडमास्टरान तांकां सांगलें.

एका पालकान सगळ्यांचीं नांवां आनी फोन नंबर बरयले.

दुखेस्त मनान आनी जड पावलांनी सगळीं घरा परतलीं.

इन्स्पेक्टर फेर्नांडीस आपलो पंगड घेवन सांग्यार पावतास रातचीं धा वरां जालीं. सांग्यावेल्या पोलीस स्टेशनार रातचें रानांत वतना जाय आशिल्लें सगळें सामान आसत नासत म्हूण ताणी मडगांवच्यान व्हेल्लें.

सांग्यावेल्या पोलिसांनी साळावले गॅस्टहावसांत भुरगीं आयल्यांत काय कितें हाची चवकशी केल्ली. भुरगीं अजुनय थंय पावंक नात हाचो तांकांय हुस्को जालो.

मडगांवच्या पोलीसांचो पंगड आयल्याबरोबर पयलीं सगळे जेवले. उपरांत सर्चलायट, दाणे घेवन सगळे साळावले गेले. दोन पंगड करून ताणी गॅस्टहावसाफाटलें रान सोदलें. प्रत्येक झाडा मुळांत, झाडार दिव्यांचो उजवाड घालून पळयलें, मदीं मदीं दाणे आपटिले. त्या आवाजान पक्षी बोवाळ करताले. जनावरां हांगच्यान थंयच्यान धांवतालीं. तांच्या बोवाळान रान गजबजून गेल्लें.

फांतोड जायसर ताणी रानात सोदलें. पूण तांका मारिओ आनी पंगडाची सुलूस लागली ना.

हेडमास्टर परत परत इन्स्पेक्टराक फोन करीत आसलो. त्या भुरग्यांचे पालकय रातभर हेडमास्टराक फोन करताले. रातभर कोणाकच न्हीद नासली.

फांतोडमेरेन रानांत भोंवतकच सगळे पोलीस गॅस्टहावसांत परतले. इन्स्पेक्टर फेर्नांडीसान मडगांव पोलीसस्टेशनार रिपोर्ट दिलो आनी

मुखार कितें करया हाचेर वरिश्ठांकडेन भासाभास केली. तितलेसर हेर सगळ्या पोलिसांनी तोंड धुलें. चा पिली आनी मात्सो विसव घेतलो.

उपरांत इन्स्पेक्टर फेर्नांडीसान एक पंगड परत रानांत धाडलो. दुसरो पंगड घेवन खासा आपूण आशिकुशीच्या गांवांत गेलो. ताका मनापासून दिसतालें, 'रानांत जर हीं भुरगीं नात तर तीं बस गेली हें कळटकच गांवांत वतर्लीं. गांवचो लोक तांकां रातचो आसरो दितर्लो.' हे उमेदीर इन्स्पेक्टर गांव भोंवतालो. वाड्यान वाडो ताणे सोदलो. पूण गांवांत कोणाकच भुरग्यांविशीं कांयच खबर नासली.

वोताचो रखरख वाडत गेल्लो. रातभर जागरण आनी रान भोंवडी केल्ली. आज सकाळीं गांव माड्डिल्लो. सगळे पोलीस थकिल्ले. ते परत गॅस्टहावसांत परतले.

- आमी इतलें सोदुनय भुरगीं खंय पावलीं?

- रानवटी जनावरांनी वी कितेंय....

- ह्या रानांत बिबटे आसतात.

- हें, हें, जाल्यार आमकां कितेंय पूण मेळटलें आसलें. आनी बिबटो कितें सातय भुरग्यांक एकदम खातलो, उरिल्लीं भुरगीं आमकां खंयिय पूण मेळपाचीं.

- म्हाका दिसता तीं काल वाट चुकून रानात भितर भितर गेलीं जातलीं. वाट सोदपा निमतान आनी आनी मुखार वचत रावल्यांत जातलीं.

- आरे देवा, मुखार मुखार रान चड दाट. तांकां वाट कळचिना. अशेंच जालां जावंक जाय.

पोलिसांचें उलोवणें इन्स्पेक्टर आयकतालो. ताणे म्हळें, - ''म्हाकाय अशेंच दिसता. आमी आनी फोर्स मागोवया. दाट रानांत फिरपाक जाय तीं साधनां घेवन तांकां यो म्हणुया. त्या शिवाय आमी बेठे रानांत फिरून पांय धोडावन घेवन उपयोग ना. आशिकुशीचे गांव, वाडेय सारके सोदूं जाय. कसल्याय लोकांच्या हातांत ती सापडलीं जाल्यार हांव नकळ कितें जायत म्हूण.''

इन्स्पेक्टरान दुबाव उक्तायलो. बाकिच्यांकय होच भंय भेसडायतालो. रानांत रानवटी जनावरांचो हुस्को खरो पूण गांवांतय तांकां धोको जावंक शकतालो. शारांतले गूंड अशाच खेडेगांवांनी लिपून रावतात. हें तांकां खबर आसलें.

- सर, आमी सगळेवटच्यान विचार करूंक जाय. फकत रानांत सोदून उपयोग ना. ह्या गांवांनीय शारांतले नावाडगे लोक लिपून रावतात.'' हवालदारान म्हळें. ''तोच हुस्को जाला म्हाका. गांव पयलींभशेन सादो उरूंना आतां. हांव आतांच मडगांव वतां. आमकां बरीच तयारी करून तांचो सोद घेवंक जाय.

इन्स्पेक्टर थोड्या पोलिसांक थंय दवरून गरजेच्यो सुचना दिवन मडगांव येवंक भायर सरलो.

फांतोडेरच सुकणीं सोबीत आवाज करूंक लागलीं. आज्यागेर काणकोणा गेल्लेकडेन सुकण्याच्या गायनान उठपाची संवय आशिल्ल्या

रेशाक जाग आयली. खिणभर ताका दिसलें आपूण खोला आसा. ब्रोश्येन ताणे आंग वळपाक, तो खांद्यावयल्यान पडटासो जालो. आनी ताका याद जाली आपूण रानात आसा म्हूण. ताणे सट् करून राजाक धरलो.

- ए.. हे.. कितें जालें, कितें जालें.. मम्मा.. मम्मा.. भियेवन राजा बडबडलो.

- भिवनाका राजा, हांवें धरला तुका. परेशान वेगींवेगीन सांगलें.

राजाच्या आवाजान सगळ्यांक जाग आयली. रातभर तांकां सारकी न्हीद मेळूं नासली. फांतोड जावचे मातशे पयलीं तांकां न्हीद लागिल्ली आनी तेन्नाच राजाच्या बोवाळान तांकां जाग आयली. काल तिळसांजच्यान झाडार बशिल्ल्यान तांचें आंग धरिल्लें. तरी हळूहळू मारिओ सकयल देंवलो. ताचो आदार घेवन राजानय हळूच सकयल उडी मारली. मागीर हात दिवन ताणी सगळ्यांक देंवयले.

काल खूब चलिल्ल्यान ताचे पांय दुखताले. झाडार बशिल्ल्यान आंगय दुखतालें. तरीय त्या रानांतल्यान भायर सरूंक तांकां चलूंकच जाय आसलें.

- तोंड धुंवक ब्रश, पेस्ट कांय ना. सियान तोंड वांकडें करून म्हळें.

- आनी बेसीन, नळ आसा मुगो? रिटान हांसून म्हळें. इतलें आंग दुखुनय रिटा आज खुशाल आसलें. आज आमी वाट सोदतलींच असो  ताणे मनांतल्या मनात निश्चेव केल्लो.

'तोंड कशें धुवप' सगळ्यांकच प्रस्न पडिल्लो. तें भायर तानय लागिल्ली. राजान आपलें बॅग खांदाक लायलें, आनी उबो गवन ताणे म्हळें, ''चलात, आतां हांगा बसून कांयच जावपाचें ना. रानांत व्हाळ, न्हंयो आसतात. आमी थंय वचून तोंड धुवपाचें पळोवया.

- ''म्हणजे, आमी घरा वचपाची वाट सोदप ना?'' सियान रडकुऱ्या आवाजान म्हळें.

- ''जालें, पेंपारे सुरू.''

- ''सिया, आज आनी रडुंनाका. काल खूब रडलां तूं. वाट सोदूयाच गो. पूण पयली तोंड तरी धुवया. तान लागल्या. इल्लें उदक पिवया.''

- उदक सोदपाच्या निमतान फिरतनाच वाटय सोदप. कळ्ळें.?''

सियाकडेन उलयत उलयत सगळीं चलपाक लागलीं. आज तांकां चलपाक त्रास जातालें. आतां रानय दाट जाल्लें. सकयल कांटयो, शिरपुटां, पानांचो कचकच जाल्लो. झाडां झोपां आनी मर्दांच हुमकळपी व्हड व्हड वाली. एके वालीचेर वयर एक व्हड पोपटी धवशा रंगाचें जिवाणें वेटाळें घालून बशिल्लें. मारिओन आनी राजान ताका पळयलें आनी जाग करनासतना सगळ्यांक दुसरेवटेन व्हेलीं. मातशीं मुखार वतकच जिवाण्याची लांबचे लांब धवी फुल्ल कात पडिल्ली दिसली. ती पळोवन चलयांनी किळांच मारली. जॅकीन रोकडेंच तांकां सांगलें, ''आगो ती जिवाण्याची कात, जिवाणें न्हय. जिवाणे आपलीं कात सोडटा आनी ताका नवी कात येता.''

- आवयस् ! म्हणजे येर्दी व्हड जिवार्णीय हांगा आसात? मिनलान भियेवन म्हळें.

- पळोवया आमकां कितें कितें पळोवंक मेळटा तें.'' राजान हांसून म्हळें. ताका एक व्हडली बडी मेळ्ळी. ताणे ती घेतली आनी तांकां सांगलें, ''ह्या रानांतल्यान फिरतना असल्यो बडयो गरजेच्यो. तुमकांय मेळटा जाल्यार घेयात.

तीं जशीं जशीं मुखार वतालीं, तशी तशी रानाची वाडटी सोबीतकाय तांकां पळोवंक मेळटाली. तेच वरोबर तरेकवार सुकर्णी, सावदां हांगच्यान थंय फिरतना दिश्टी पडटालीं. सुकर्णी तरेकवार आवाजान गायतालीं. मर्दीच सोंशे, गार, माजरावरी दिसपी प्राणी धांवताले. मारिओक थोड्या जनावरांचीं नांवा खबर आसलीं. तीं तो तांकां सांगतालो. आनी ते प्राणी वचसर मारिओ तांकां एका जाग्यार वोग्गी रावपाक सांगतालो. भंयान आनी उमळशिकेन सगळीं तांकां पळयतालीं. पूण ते प्राणी हांकां पळयल्यार धांवून झोंपा फाटल्यान नाच जाताले.

मर्दी मर्दी माकडांचो कळप झाडा-झाडावेल्यान उडयो मारीत फिरतालो. कांय माकडां वालीक हुमकळत झेल घेतालीं. मर्दीच कीच कीच करीत वोग्गी बसून ह्या भुरग्यांक पळयतालीं.

खिणभर भुरगीं आपले दुःख विसरून माकडाच्या खेळांत रंगलीं. पूण मारिओन तांकां शिटकायलीं, ''तांकां चाळोवंक मात नाकात हां. चाळयल्यार तीं परत आंगार येतात.'' ताच्या तितीवान ताका सांगिल्ली गजाल ताणे भुरग्यांक सांगली.



बरीच वाट तीं चलून गेलीं. आतां शितळशें वारें व्हांवतालें. परेश थांबलो. ताणे सगळ्यांक थांबपाक लायलीं. एक हात कानार दवरून तो सुलूस घेवंक लागलो. अशें अचकीत थांबवप, म्हळयार पयलीं तीं भियेलीं. उपरांत परेशाक पळोवन राजान म्हळें, कितें परेश, कसल्या आवाजाची सुलूस घेता? गाडयेचो बी आवाज येता काय कितें? शार लागीं आयलेंशें दिसता. सगळीं हासूंक लागलीं.

फकाणा करनाकाय. तेका कसली पूण सुलूस लागल्या. वोगी रावात. आयकूनी ताका. मारिओन सगळ्यांक वोगी केर्लीं.

परेश मात्सो मुखार गेलो. दावे वटेन वळ्ळो, मात्सो चल्लो, उजवे वटेन वळ्ळो आनी कान दिवन आयकूंक लागलो. एकदम खोशयेन ताणे म्हळें, "हांगा लागींच खंय तरी झरो आसा. आयकात. उदकाचो आवाज येता."

सगळीं ताच्याम्हऱ्यांत गेर्लीं. सूसूसू, असो बारीक आवाज येतालो. सगळ्यांक खोस जाली. मिनलान हांसून म्हळें, बरो मरे तूं बारीक कानाचो, हो आवाज आमकां कांय आयकूंक येवंक नासलो. तुका कसो कळ्ळो?

- कसो म्हळ्यार तसोच. तुवें केन्ना वझऱ्याचो आवाज आयकला? जाल्यार तुका कळटलें आसलें." परेशान नेटान सांगलें.

- म्हळ्यार, परेश आतां आमकां खरो वझरो पळोवंक मेळटलो? रिटान उमेदीन विचारलें. "ए, आमी हांगा उलयत रावुया काय व़झ़रो सोदुया?" राजान ताकीत केर्ली.

सगळीं आवाजाचे दिकेन झरो सोदूंक मुखार सर्लीं. बरो वेळ चलतकच तांकां झरो दिसलो. काळ्या कुळकुळीत फातरावयल्यान हातभर रुंदायेन उदक घस, घस, आवाज करीत रकतालें. सकयल ल्हानशें तळूल जाल्लें आनी तें उदक मुखार व्हांवत वतालें. झरो पळोवन सगळ्यांक खोस जाली. परेश आनी मारिओ सोडल्यार असो झरो कोणेच पळोवं नासलो.

सियान भुरकुटून म्हळें, "ए सिनेमानी वी आमी झरे पळयतालीं. पूण खऱ्यानीच झरो पळोवपाक कितलो सोबीत दिसता न्हय?"

"आनी उदक पळय कितलें थंड थंड ऽ गार !" "वाव ! कितलें थंड उदक. फ्रिजींतलें कशें. हांव पींव?" जॅकीन उदकांत हात बुडोवन म्हळें.

- शी, तोंड धुयनासतनाच पितलो?

- आरेच्च्या ! आमी तोंड कशें धुतलीं ?

- मिनल, प्रवासाक वतना ब्रश, पेस्ट, साबांव, टॉवेल सगळें हाडूं जायें. तुका खबर ना?" मारिओन हांसून म्हळें. ते बरोबर सगळीं मनापासून हांसलीं. "आमचो हो खबर नाशिल्लो प्रवास. भोंगू. आतां कितें करचें सांगात." रिटान विचारलें. परेश हेवटेन तेवटेन पळयतालो. तें पळोवन सियान म्हळें, "पळयात हां, परेश कसलो सोद घेता.

- हांव समजलो, तो कितें सोदता पळय तें. आंब्याचें झाड सोदता मरे तूं?

- आंवय ! आंब्या झाड कित्याक जाय परेश? आमी दांत घांसपाच्यो गजाली उलयतात. मिनलान ताका चाळयलो.

- आगो, काणकोणा आज्याले भागेली आंब्या पानान दांत घांसतात. बरे निव्वळ आसतात तांचे दांत. परेशान तांकां समजायले.

- हय, हांव जाणां, कुंकळ्ळेची आजी सांगी, पयलीं सगळे

अशेच दांत घांसताली खंय. मिनलान म्हळें.

इतल्यांन खंयच्यान तरी मारिओ आंब्याताळो घेवन आयलो. ताचें एक पान घेवन, ताची मदली शीर काडून ताणे विडी कशी केली आनी तांकां दांत कशे घांसप तें दाखयलें, सगळ्यांक मजा आयली. पानाचे मदले शिरेन मारिओन जिबय कशी निवळ करप तें दाखयलें. सगळ्यांनी तोंड धुलें आनी तीं पोटभर उदक पियेलीं. सियाक तें उदक पिवपाक वीट दिसली. तागेर सदांच फिल्टरांतलें उदक पियेतात ना जाल्यार उदक सळसळावन न्हिवोवन पियेतात. पूण हांगा सगळ्यांनी ताका समजायलें. 'रानांत आसासर कितें मेळटा तें खावचें पिवचें पडटलें, हांगा आमच्यो खोडी उपकारच्यो ना. त्यो मम्मीम्हन्यांत वतकर करया.' तेभायर राजान 'झऱ्याचें उदक नितळ आनी वखदी आसता' ही खंय तरी वाचिल्ली गजाल सांगली.

- राजा, सायन्टीस्ट कितें रे तूं ! जॅकीन ताची फकाणां केलीं.

- "हय तर, म्हाका विज्ञानाचीं पुस्तकां वाचूंक आवडटात. वाचून हांवय विज्ञानीक जालां." राजान झेतान सांगलें.

उपरांत ताणी कालचो परेशालो केक वांटून खालो. बिस्कुत्यो आशिल्ल्यो त्योय खाल्ल्यो. आतां तांचीं बॅगां सामकीं रिकामीं जालीं. 'आतां मुखार कितें?' सगळ्यांकच प्रस्न पडिल्लो.

"फुडलें फुडें पळोंवया. आतां आमी ह्या व्हाळाचे कडेन कडेनच चलुया. हो खंययतरी गांवांत भितर सरलाच जातलो. नाजाल्यार उदक पिवंक म्हूण तरी कोणय मनीस येतलेच. तांच्यावांगडा आमकां

गांव मेळटलो.'' मारिओन उबो रावत म्हळें.

''आनी हो व्हाळ गांवांत सरनासतना रानांतल्यानच गेलो जाल्यार?'' परेशान दुबाव उगतायलो.

''ना जाल्यार कोणय तरी मनीस उदक पिवंक आयल्यार मेळटले. आनी मागीर उदकाखातीरय हांगा भोंवपाची गरज ना. राजान सांगलें.

- ए, रानांत मोनशांक खावपी आदीवासी मोनशांय आसतात खूंय. तीं आमकां मेळ्ळ्यार? रिटान रडकुऱ्या आवाजान विचारलें.

- पिशा, तीं ह्या रानांत आसपाक ना. हें तशें व्हडलें रान न्हय. बेठेंच वायटच चितनाका.'' मारिओ तापलो.

- ''आरे, आमच्या मम्मी, पप्पान, सरान पोलिसांक कळयलांच जातलें. ते आमकां सोदत फिरतात आसतले. ते आमकां खंय तरी मेळटलेच.'' राजान म्हळें. तसो सगळ्यांकच धीर आयलो. हे उमेदीन थकिल्लीं पावलां ओडीत तीं व्हाळा देगेन चलूं लागलीं.

तीं सातय जाणां पांय ओडीत, वाट सोदीत चलतालीं. आतां ताणी सगळ्यांनी हातांत एक एक बरी घटशी बडी धरिल्ली. वाटेर कसलोय प्राणी दिसलो काय बडयेचो आवाज करतालीं ताका लागून तो प्राणी भायले भायर पळून वतालो.

- ए, तो पळय केदो मोटो पक्षी. बडयेचो आवाज करूनाकाय. रिटान बोट दाखयल्लें थंय पळयत ताणी म्हळें,

- "खंय गो? खंय गो?"

"हो तो पळय, आवयस ! केदो मोठो रे वावा हो? शेपोच व्हड ताचो, काळो किट्ट शेपो आनी चॉकलेट आंग, काय वरो दिसता न्हय?" परेशान म्हळें.

- ए, हाका न्ही तेल कोंबो म्हणटात. हांवें कुंकळ्ळेय पळयल्यात. मिनलान सांगलें.

आमकां कोगूळ दिसूंक जाय आसली न्हूय? काळी किट्ट आसता खंय ती. वरी गायता ती कुहू ऽ कुहू ऽ करून. "आरे जॅकी, गायता ती कोगूळ न्हय तो कोगूळ. वायलेक सादयता तो. वायल कोगूळ शिवऱ्या आंगाची आसता." मारिओन सांगलें.

शिवऱ्या म्हळयार रे? सियान आनी रिटान एकावरोवर विचारलें.

म्हळयार काळ्यां रंगार धोवीं वारीक वारीक खोतां. ती 'क्लीक ऽ क्लीक ऽ क्लीक' करून रडटा. "मारिओ, वरी माहिती खवर आसा मरे तुका कोगळाची?"

तितिवान सांगल्यात म्हाका ह्यो गजाली. सगळ्या सुकण्या, सावदां मदीं दादले सोवीत आसतात खंय. मोर पळयला जातलो तुमी टी.व्ही.र वी. कितलो सोवीत दिसता!"

- पूण ताची वायल लांडोर सामकी वरी दिसना. हांवें प्राणीसंग्रहालयांत पळयल्या. राजान उमेदीन सांगलें. "हय, आमकां घडये दिसूं येता मोर, आमच्या रानांत मोर आसात खंय. पयलीं तितीव कासाक वतालो तेन्ना मारलो खंय ताणी मोर." - मारिओ

- ए, तुजो तितींव कासाक वतालो? म्हूण तूं आमकां इतल्यो गजाली सांगता!

उलयत उलयत तीं बरीच वाट चलून मुखार पावलीं. वतां वतां तांकां एक पेरीवरी रूख दिसलो. मोठ्या मोठ्या हळदुव्याच पेरांवरी फळांनी भरिल्लो. तीं खावंक रंगयाळे, पोपटी व्हड व्हड कीर, पोंदच्यान भांगरावरी हळदुवे आनी वयल्यान चॉकलेट रंगाचे पक्षी आनी सोवीत अशीं जायतीं सुकर्णी रुखाचेर बशिल्लीं. पोंदा पिक्या, कुसक्या फळांचो खच पडिल्लो. कांय पक्षी सकयल रावनय तीं खाताले. ते फळां खाताले म्हणचे परस तांतल्यो बियो कुटू कुटू करून खाताले. - ए, ह्या फळांक 'गोयंटी' म्हणटात. खावपाक बरीं लागतात. चल राजा, आमी वचून हाडुया. मारिओन सांगलें.

तें गोयेंटी फळांनी आनी रंगयाळ्या सुकण्यांनी भरिल्लें झाड पळोवन भुरगीं अजापीत जालीं. येदे व्हड व्हड कीर इतले लागीच्यान ताणी केन्नाच पळोवं नासले. असले अजापांचे पक्षीय ताणी पळोंव नासले. खीण दोन खीण आपले त्रास विसरून तीं तांकां तोखेत उबीं रावलीं. थोड्या वेळान राजान आनी मारिओन हळूच वचून बरीं पिकिल्लीं गोयेंटी काडून हाडलीं. हांकां दोगांकय पळोवन पक्षी मातशे वेले खांदयेर वचून बसले. थंयच्याच एका झाडाच्या मुळार बसून दोगांनीय तीं फळां खालीं. थोडीं फळां आपल्या बॅगांनी भरून घेतलीं. हातांतल्या बडयांचो आदार घेत तीं मुखार चलपाक लागलीं.

चलतां चलतां तीं खंयूय वाट दिसता काय म्हूण पळयतालीं, खंयय मनीस दिसता काय म्हूण सोदतालीं. पूण दाट झाडां, झोपां,

वाली, सुकर्णी, सावदां आनी जिवाणी हांच्या भायर तांकां कांयच मेळनासलें. एकाद्रें जिवाणें दिसलें काय मारिओ पयसुल्ल्यान वडयेन काडून तांकां पेल्यान उडयतालो. तो असो उडयता तें पळोवनच लेगीत हीं सगळीं भियेतालीं. चलयो तर दोळे धांपून वोग्गी रावताल्यो. पूण मारिओ तांका धीर दिवन मुखार व्हरतालो. मनातल्यान ताकाय मात्सो भंयसो दिसतालो. मडगांवा तांच्या भाटांत मायणां, येवाळीं, दिवड ताणे पळयल्लें. पूण हांगा वेगवेगळीं रंगाचीं व्हड व्हड जिवाणी दिसतालीं. सोरोप मात वाटेर मेळना जाल्यार पुरो म्हूण तो मागतालो.

परेश जाणा आसलो, गांवांनी पयस आशिल्ल्या मनशाक उलो मारूंक कुकार घालतात. पलतडीन आशिल्ल्या व्हडेकाराक लेगीत आपोवंक कुकार घालून आपयतात. ताणे उमेदीन म्हळें, ''ए, हांव कुकार घालून पळोंव, कोणय मनीस गनांत आसल्यार म्हाका जाप दितले.''

- हय, हय आमकांय शिकय. आमीय कुकार घालतात.

- रावात हां, पयलीं हांव घालतां.

परेशान दोनय हात तोंडार कण्र्याभशेन धरले आनी व्हडल्यान कू ऽ ऽय केलें. तोच आवाज तांकां दोन-तीन वेळा आयकूंक आयलो. ताणे दोन तीन वेळा तसोच आवाज केलो. इतल्यांन दोन तीन वटेच्यान झाडांवयल्यान तसोच आवाज आयलो. खिणभर हांकां दिसलें मनशांनीच जाप दिली जातली म्हूण. पूण मारिओन आवाज झाडावयल्यान आयला तो दिस्त आयकल्लो. ताणे परेशाक परत एकदां कुकार घालूंक सांगली. हे खेपे झाडावयल्यान आयिल्लो

आवाज कोणे केल्लो तो मारिओन दिस्त पळयलो. ताणे हांसून म्हळें, "होऽ पळय, तुका कोण लेडायता तो. "आं, कोण चाळयता परेशाक?" म्हणत सगळयांनी ते वटेन पळयलें. एका झाडाचेर निळशा रंगाचो किरकिऱ्या वरी दिसपी पक्षी वशिल्लो. मातशे पेल्यान वगळ्याभशेन पूण मोठो आनी तळहाताइतली लांव चोंच आशिल्लो पक्षी वशिल्लो.

- आवयस! हातुंतलो कोण चाळयतालो काय?

- ए, सुकण्याक मागीर तोखेयात. म्हज्या उल्याक कोणेच जाप दिलीना जाणात तुमी. म्हण्टकीच हांगा आशी कुशीक कोणच मनशां नात दिसता." परेशान उबगून म्हळें.

- भोंगू परेश, आमी अशे रोखडेच निरास जावन कशें जातले? फुडें वतात तशीं तशीं तूं कुले घालीत चल. खंयूय पूण मोनीस आसल्यार आमकां जाप दितेलो. मारिओन ताका फुसलायलो. मारिओची युक्त सगळयांक आवडली.

- पूण हांगा आमकां सुकर्णीय जाप दितात हें याद धरूंक जाय." राजान हांसून म्हळें. सगळीं हांसतच मुखार चलूंक लागलीं.

दनपार चडत आसली. मदीं मदीं रखरखीत वोतांतल्यान मर्दीच सावळेंतल्यान पानां कांटयो माड्डयी. चलून चलून तांकां सामकें पुरो जाल्लें. भूकय लागिल्ली. व्हाळाचें उदक ताणी बाटल्यानी भरून घेतिल्लें तें पियेवन पियेवन बाटल्योय रिकाम्यो जाल्ल्यो.

लागींच एक व्हड झाड आशिल्लें. ताचीं व्हड मुळां वयर पातळिल्लीं. ताचे सावळेक तीं त्या मुळार बसलीं. जॅकी आनी राजा

सगळ्यांच्यो बाटल्यो घेवन उदक हाडूंक गेले. मारिओ हेवटेन तेवटेन भोंवत कितें तरी सोदतालो. पळय जाल्यार एका झाडाक घोसांनी तांबडीं फळां लागिल्लीं. माकडाचें भिरें, चानयो आनी सुकर्णी बसून तीं खातालीं. चानये भशेनूच पूण मोठे आनी हातभर लांब शेंपो आशिल्ले प्राणीय चानयेवरी तीं फळां हातांत धरून खातालें.

- परेश, हें पळय, फळांनी भरिल्लें झाड. हीं जनवरां तीं खातात म्हणटकीर आमीय खावया तीं.'' ''मारियो, पिशें लागलां तुकां. आमी काय ह्या फळांक वळखनात. वोगीच कितेंय खावन आमकां कितेंय जालें जाल्यार?'' मिनलान ताका तापयलो. ''हय गो बाये, ह्या रानांत साबार तरेचीं फळां आसात. विखाचीं लेगीत आसतलीं, आमी मेलीं बी जाल्यार रे? रिटान म्हळें.

- खरेंच, आमचीं घरची आमकां सोद सोद सोदतलीं, पळयल्यार आमी हांगा मरून पडिल्लीं आसतलीं. झक मार तीं फळां.

- सिया, पिशा, केन्नाय पूण बरें उलय गो. सदांच वायट पयलीं चितता. परेश तापलो. मारिओन तांका थंड करीत म्हळें, ''आगो जनावरां, सुकर्णी खातात तीं फळां विखारी कशीं आसतलीं? तांकां विखारी फळां वळखूंक कळटात. हें S तें पळय झाड हळदुव्या तांवशा फळांनी भरलां. पूण एक सुकणें सावद ताचेर ना. म्हाका दिसता तीं कवंडळां वो कान्याचीं फळां आसतलीं.'' आं, आमी चवथीक मोटोळेक बांदूंक हाडटात तींच तीं फळां.

- हय वोय, तींच तीं. म्हणटरीच तुमकां समजलें मगो, हीं जनवरां खातात तीं फळां आमी खालीं म्हूण कांय जायनात म्हूण,

तोरी तुमकां भिरांत दिसता जाल्यार हांव पयलीं खातां.

- कितें खाता तूं पयलीं मारिओ?

राजा आनी जॅकीन उदकाच्यो बाटल्यो घेवन येतना विचारलें.''

- दनपाराच्या जेवणाक हीऽ तीं फळां खावंया म्हणटां.

- आं, हाड तूं. हे थंय आमी तळपांये दोंगुल्लेर रानकेळी पळयल्यात. एक घडाय बरो पिकला. सुरी व्हरूंक आयल्यात आमी. राजान म्हळें.

- रान केळीं चड खावं जायना हां. माणे लागता. परेशान सांगलें.

- हें, आमी चड खंय खातलीं, बारीक तीं दोन दोन खातलीं.

तितले म्हणसर मारिओन ते तांबड्या फळांचे घोंस हाडले, राजान आनी जॅकीन केळ्यांचो घडाय हाडलो. पयलीं मारिओन दोनचार फळां खालीं. राजान, परेशान आनी जॅकीनय खालीं. चलयो मात तांकां हात लावंक तयार नासल्यो. धायेक मिनटां वतकच मारिओन म्हळें, ''पळयलें, म्हाका अजून कांयच जांव ना. हांव तीं फळां खातलों. तुमकां जायते नखरे करात.

चलयांचो भंय आतां मातसो कमी जाल्लो. भंय कमी जाल्लो काय पोटाक चुरचुरून भूक लागिल्ली तींच जाणात. पूण ताणीय तीं फळां खालीं. वयर रान केळींय खालीं.

थंयच एका झाडार बसून ताणी विसव घेतलो. चलून चलून

तांकां पुरो जाल्लें. पांयय दुखताले. रातभर सारकी न्हीद नाशिल्ल्यान दोळेय आतां चुरचुरूंक लागिल्ले. थंयच बशिल्लेकडेन थंड वारें लागतकच तांकां मातशी झेम लागली.

तांकां जाग आयली तेन्ना दीस बरोच सकयल देंविल्लो. रानात सावळी पडिल्ली. वत फकत झाडांचे तेंगशेर आशिल्लें. पूण घड्याळींत पांचच वरां जाल्लीं.

- आरे देवा, आतां परत रात आयली. आमी कशीं रावतलीं?

- सिया, आज जाल्यार म्हाका कालचेवरी भंय दिसचोना. तूं बेठेंच भिवनाका.'' रिटान ताका समजायलें.

- आमी आतांच रात सारपाक बरेंशें झाड सोदुंया. ह्या फळांनीं आमकां कांयच त्रास जांव ना. आनी चार-पांच घोंस काड जॅकी सांजे डिनराक.

मारिओन हांसून म्हळें. आनी तो झाड सोदूंक गेलो. राजा आनी जॅकी फ़ळां हाडूंक गेले.

मिनल, रिटा, सिया आनी परेश व्हाळार गेले. व्हाळ आतां बरो रूंद जाल्लो. मर्दीं, मर्दीं व्हड फातरय आसले. पूण उदक चड खोल नासलें. ताणी आपल्या बॅगांतल्यो आनी हेरांच्यो बाटल्यो उदकान भरून घेतल्यो. थोडें उदक पियेलीं आनी तोंडार मारून घेतलें. उदक पितना सियाच्या दोळयांत दुकां आयलीं.

- जाणा मगो, सदूदां मम्मी चा, दूद, कॉफी पिये म्हूण फाटल्यान लागताली, आनी आमी तें कशें चुकोंवक मेळटा काय पळयतालीं.

पूण आज...

- आज आमी जाय म्हूण कितलेंय मागल्यार ह्या रानांत आमकां ह्या उदकाभायर कांयच मेळपाक ना. मिनल सुस्कारलें.

- आमची मम्मा दुदाचो गलास घेवन रडत बसल्या जातली. ती लेगून च्याव पिवची ना. रिटान हुडकेत म्हळें.

परेश उदकांत मदीं आशिल्ल्या फातरार बशिल्लो. ताणे तांका थंयच आपयलीं, - आगो, आतां आमी घरच्यो यादी काडत रडत बसूं नये. हांगा येयात. थंड उदकांत पांय सोडून बसुंया. मजा येता. बारकेलीं नुस्तीं पांयांक तोंड लावन वतात पळय.

इतल्यांत मारिओ, जॅकी आनी राजाय थंय पावले. परेश दोन फातर घेवन एकमेकार आपटून खेळटालो. तातुंतल्यान उज्याच्यो किटी उसळटाल्यो. त्यो पळोवन ताका मजा आयली. ताणे सगळ्यांकच ती मजा दाखयली. ती पळोवन राजान ताळयो मारल्यो आनी म्हळें, ‘‘बाब, परेश, तुवें बरी आयडिया दिली. पयलींचे लोक अशेच फातरार फातर आपटून उजो तयार करताले खंय. आमकां रातचें शीं खाता न्हय, पालो लाकडां एकठांय करूया आनी फातरार फातर आपटून उजो काडून ती जळोवया.’’

- यस, राजा धुंवरी घालुया. आमी बसतलीं त्या झाडाकडेन. रात भर जर तीं जळत रावलीं तर जनावरां बा कोण येवचिंना आमच्याम्हऱ्यांत, उज्याक भियेतात खंय तीं.

- तशें जाल्यार बरेंच जालें. चल या आमी त्या झाडाम्हऱ्यांत.

तीं उमेदीन झाडाम्हऱ्यांत आयलीं. न्हंयचे लागींच मारिओक वरें झाड मेळिल्लें. तें लकून आडवेंच कशें वाडिल्लें. ताका एक व्हड धोल आसली. व्हड्याभशेन एक व्हड कुडको पोखरुनय तें झाड आडवेंच घसघशीत वाडिल्लें. ताणी एका झाडाचीं व्हड व्हड पानां हाडून त्या झाडाचे धोलींत घालीं. पूण सातय जाणां ते धोलींत जावचीं नासलीं. तिगीय चलयो आनी परेशान ते धोलींत वसपाचें थारायलें.

मारिओ, राजा, जॅकी आनी परेशान सुकीं सुकीं लाकडां हाडलीं, पालो, तण हाडलें आनी धुंवरी घाली.

तिगीय चले घोलिच्या वयर आशिल्ल्या खांदयेर वरे वणखून बसले. आज तांकां पांय वयर दवरुंकय एक आडवी खांदी मेळिल्ली. धोलींत बशिल्ल्यांक मात पांय पोटाकडेन घेवन वसचें पडिल्लें.

आज तांचेकडेन वडयोय आसल्यो. मातशें खंयींय सुरू जालें काय मारिओ, राजा वडी आपटिताले. वरो वेळ गजाली करून जातकच धुंवरेच्या उजवाडांतच ताणी फळां खालीं आनी उदक पियेले.

जनावरांचे भयांकृत आवाज येवंक सुरवात जाल्ली. आज म्हशीभशेन कोण तरी रेंकिल्ल्याचो आवाज येतालो. कोल्यांच्यो कुयो, बालुंचें भोकिल्लेंवरी रडप, रातकिड्यांचो आयकूं नज असो आवाज चालूच आसलो.

रात वाडत आसली. तीं मदींच झेमतालीं. मदींच कच्च करून

जागीं जातालीं, परत झेमतालीं. ताणीं घाल्लीं धुंवरी केन्ना पालवल्लीं पूण कोळशे अजूनय धुमशेताले.

ल्हवू ल्हवू फांतोडेचो उजवाड रानांत रिगूंक लागलो. गर्ताचे पांगरूण कुशीन सारून रान जागें जावंक लागलें. सगळयांत पयलीं सुकण्यानीं सूर काडले. तांच्या म्होवाळ आवाजान रान पुराय जागें जालें. माकडाचीं पिलां आवयचे कुशींत दोळे किलकिलांवक लागलीं हळूच दूद पिवपा निमतान आवयक हालोवंक लागलीं. माकडाच्या कळपांत किचकीच किचकीच सुरू जालें. थोडीं खांद्याचेर उडयो मारूंक लागलीं, थोडीं वालींक धरून हुमकळूंक लागलीं. रात जागोवपी जनावरां मात घोलींनी बिळांनी वचूंक लागलीं.

दीस फांकतालो तसो रानांत तरेकवार सुरांचो सुमेळ गाजूंक लागलो. त्या सोबीत सुरावटींत ह्या सातय जाणांक जाग आयली. तीं उठलीं. आतां तीं रानाक संवकळिल्लीं. ताणी सकाळचे विधी केले. बोटव्यात भरून हाडिल्ल्या आंब्या पानानी तोंड धुलें आनी न्हंयचें उदक पियेलीं.

- भूक लागल्या मारिओ. आजय तींच फळां खावप रे? वीट आयला. सियान कडकडत म्हळें.

- ना, ना, तुजे पासत आमी पाव-भाजी, डोसा, वडा ऑर्डर केल्यात. घेवन येवचे आसा ते, वाट पळयत बस. आमी हीं कालचीं गोयेंटीं खावन मुखार वताय. मारिओन हांसून म्हळें. ते बरोबर सगळयांनी ताचीं फकाणां केलीं.

- ए मारिओ, आमकां सोदपाक कोणच येनात कशे. आमच्या हेडमास्टरान, घरच्यांनी पोलिसेंत कंप्लेन केल्याच आसतली. परेशान अजापांन म्हळें.

- आरे, आमचो सोद घेवंक पोलीस फिरतात आसतले. पूण आमी भोंवत खंय पावल्यात कोण जाणा. ह्या दोन दिसांत थोडीं चलुना आमी. बूट पळोय.

- होऽय मारिओ, ह्या दोन दिसांत आमी कितलीं चोलल्यांत ताचो हिशेब लागचो ना. आमचे पांय बाबडे इतले दुकूनय चोलतात. रिटान म्हळें.

- आमकां खंयच्यान तरी पोलीस सोदून काडटलेच. ना जाल्यार हॅलिकॉप्टर घेवन येतले. मागीर दोरी सकल सोडटले. आमी दोरयेक हुमकळत वयर चडप.''

- खंयच्या बुकांतली इस्टोरी सांगता रे राजा? जॅकीन विचारलें.

- हांवें जायत्या पुस्तकांनी वाचल्यात असल्यो खबरो. टि.व्ही.चेरय पळयलां.

- राजा, आतां आमकां ते व्हरपाक येतले काय म्हणून वाट पळयत रावया काय मुखार वचया? घडये पोलिस येवचे पयलीं आमी गांवात पावत. आमीच वाट सोदिल्ल्याची खोस मेळटली आमकां.

मिनलाची सांगणी सगळ्यांक मानवली. तीं चलपाक लागलीं. बरो वेळ चलतकच सियान म्हळें, ''ए तीन दीस जायत आयले. आमी न्हांव ना. तुमका वीट आयलो ना?''

- हय सामको वीट आयला. पूण करतलीं कितें? कपडे, शावू, तुवालो खंय आसा? उदक जाय तितलें आसा. मिनलान म्हळें.

- हे न्हंयेक पळोवन म्हाका कालच्यान न्हायन न्हायन दिसता. पूण कपड्यांचें कितें?

राजाचें उलोवणे आयकून मारिओन म्हळें, "आमच्यानी एक करूं येता, पयलीं हे भायले कपडे धुवन आमी सुकत घालुया. मागीर अंडवियर सुकोवची.

- आनी आमी कितें करप? म्हाका तर सामकें न्हायन दिसता.

- एक सांगू, रागार जावप ना. आमी पयलीं आमचो शर्ट धुवून सुकत घालतात. शर्ट नासतना आमच्यांनी थोडो वेळ रावूं येता. तो मात्सो वाळगलो काय तुमी न्हावन आमचो शर्ट घालात. मागीर तुमचे कपडे उमळून सुकत घालात. ते वाळगतकीच तुमचे कपडे घालात आनी आमचो शर्ट आमकां दियात, जाता?"

- ना म्हणू नाकात गो, मारिओची आयडिया बरी आसा. आमचो शर्ट तुमकां मिनी ड्रेस कसो जातलो.

- हय म्हळ्याशिवाय आनी कांयच उपाय ना. रिटान म्हळें.

न्हंय आतां वरीच रुंद आनी खोल जाल्ली. उदकय बरें नेटान व्हांवतालें. मर्दी मर्दी तळपा आशिल्लीं. तळपांकुशीक थोडे थोडे कडेन व्हाळ उथळसो आशिल्लो. थंय धोंपरभर उदक आसा तें पळोवन मारिओन तांकां थंयच न्हावपाक सांगलें. तांचे वाळगल्ले शर्ट ताणी चलयांक दिले आनी ते मातशे पयस न्हांवक गेले.

न्हावन सगळ्यांकच तरतरसाण आयली. अर्द ओले कपडे आंगार आशिल्ल्यान मर्दी मर्दी व्हांवपी वाऱ्यान तांकां थंड दिसतालें. वोताचो रखरख बादनासलो. त्या नेटार तीं बरेच पयस चलून गेलीं. परेश मर्दी मर्दी कुकार घालतालो. पूण पक्षांचें चाळवप सोडल्यार हेर मनशांचो परत साद येनासलो. निरास जावन परेश वोग्गी रावतालो. वाटेर तांकां आमटाचें झाड मेळ्ळें. मारिओन म्हळें ‘‘हीं आमटां खावपाक बरीं लागतात.’’ सकल पडिल्लीं बरीशीं आमटां काडून ताणी खालीं. काल काण्णांचे कांटेरी जाळयेंत अळंग हात घालून मारिओन तांकां काण्णा काडून दिल्लीं पूण आज चारांचीं झाडां, चुन्नाचीं झोपां कांयचं मेळूं नासलें. आमटां, हांसाळीं सारकीं वाटेर मेळपी थोडीं थोडीं फळां खावनय दनपार चडटा तशी तांकां भूक लागिल्ली.

आज कालचेवरी कसल्याच फळांचें झाड तांकां मेळूं नासलें. रान केळीय दिसूं नासल्यो. रुमडाचीं फळा मेळिल्लीं पूण तांकां तीं व्हडलींशीं आवडलींना.

चलतां चलतां मारिओ आनी राजा कसलींय फळां दिसतात काय सोदताले. बरोच वेळ चल्ले इतल्यांत तांकां एका झोंपा फाटल्यान चार-पांच सोंशे आपल्या पिलां सकट कसलीं तरी मुळां उस्तून खातात ते दिसले. मुळ्या भशेन पूण मोठ्ठे आनी तांबडेशेच ते कंद आसले. मारिओन सगळ्यांक कुरु करून वोगी रावपाक सांगलें. सोंशे खातात ते कंद तांकां दाखयले आनी फुतफुतून सांगलें, ‘‘हें पळयात सोंशे गाजराभशेन कितें काडून खातात. आमी तांकां धांवडावया आनी ते



खावया.

मारिओ उलयतां उलयतां त्या झोंपा म्हऱ्यांत गेलो. मारिओची सुलूस लागतनाच सोंशे धांवले. सोश्यांनी अर्दो खावन उडयल्लो कंद ताणे हातांत घेवन पळयलो आनी वास घेतलो. ताका बरो कणंगांवरी वास येतालो. मारिओन दोन तीन झाडां हुमटायलीं. तांच्याय पोंदा तशेच मोठ्या मुळ्यावरी कंद आसले.

- शी, मारिओ. तुका म्हूण मात अर्थ ना. कितेंय काडून खावया म्हणटा तूं. रिटान विटून म्हळें.

- बाय गो, काल मारिओन तीं फळां दाखयल्लीं. काय बरीं

ागतालीं. बेठोच दुबाव घेतलो तुमी. सोंशे खातात म्हणटकीच ते रेच आसतले.

मारिओन हातभर कंद घेतले आनी म्हळें, "हांव हे कंद धुतलों आनी खातलों. कोणाक जाय जाल्यार म्हजे बरोबर येयात. ना जाल्यार उपाशी रावात. वाटेर काण्णां, चुन्नां, पिटकोळे फळां आसलीं. आतां कांयच मेळचेंना तुमकां. खोल रानात असलीं झाडां आसनात."

राजान आनी जॅकीनय कंद काडले. तशे बाकिच्यांनीय ते कंद हुमटावन काडले बरे धुले आनी खाले. कंद खावंक बशिल्लेकडेन जॅकीच्या मनात कितें तरी आयलें आनी ताणे म्हळें, "मारिओ, ह्या रानांत सोंशे जायते आसात न्हय?"

- सोंशेच कित्याक रे ? मुंगूस, गारां, कोले, माजरांवरी, सुण्यांवरी दिसपी प्राणी थोडे दिसल्यात आमकां? आमीं बडयो आपटीत चलतात म्हूण. ना जाल्यार कोणूय पूण आमचे वाटेक वचपाचोच.

- हांव कित्याक म्हणी जाणां, आमी एक सोंसो धरून भाजून खावया काय म्हूण. जॅकीन रूच काडून सांगलें. तें आयकून मिनलाक वीट आयलो. ताणें म्हळें, "शी, सोंसो बेश्टोच भाजून खावप. आमी रानांत आसात म्हूण कितें जालें? रानवटी मनशां तर?" मारिओन हांसून म्हळें, "मिनल, तुमी चलयो म्हूण धोडां न्ही, कितेंय सांग, पयलीं तुमकां वीट येता, मागीर घोस्तान खातात."

- पळय मिनल, सोंशाचें मांस हरशींच गोड, भाजल्यार आनी बरो लागतलो.

"सोंसो भाजया म्हणटा तो हांगा कितें ओवन आसा रे का
कोंबयो भाजतात तशी भट्‌टी आसा?" परेशान हांसून विचारलें.

- आरे, आमी धुंवरी करतात न्हय, तसो मात्सो चड उज
कोरया आनी भाजया सोंसो.

- मारिओची आयडिया बेस्ट, पूण सोंसो कसो धरतले?

इतलो वेळ वोग्गी बसून राजा तांचें उलोवणें आयकतालो. ते
फकाणांनी सोंश्याक खावपाच्यो गजाली उलयतात समजून ताणे
जाप घालू नासली. ते सोंसो खऱ्यानीच धरून मारून खावपाच्यो
गजाली उलयतात हें कळटकच ताका राग आयलो. ताका मोनजातीची
ल्हानपणांतल्यान ओड. तांगेर सुणी माजरां तर आशिल्लींच ते भायर
पोरसांत येवपी सुकण्यांचीय तो जतनाय घेतालो. तांचेपासत नाल्लेंत
उदक घालून दवरतालो, पोरसांत कणयो घालतालो. ताकालागून
तांच्या पोरसांत सुकणींय विश्वासान येतालीं. धान्य खावन उदक
पिवन वतालीं. ताच्या आवयबापायक मोनजातीची ओड आसली.
तींय ताचे आवडीक उर्बा दितालीं.

तांचीं खरीं दोन माजरां आनी एक सुणो. पूण कोणे कोणे
सोडिल्लीं, शेजाऱ्यालीं मेळून सात-आठ माजरांचें यो वच आसतालें.
तातुंतलीं तांचीं खरीं माजरां कोण तें तीं विसरून गेल्लीं. सुण्यांचेंय
तशेंच. खांवक घालचे वेळार रस्त्यावयलीं सुणीं लेगीत तांगेर येतालीं.
राजाची आई सदांच तांचेपासत वेगळें शीत करून तांका घालतालीं.

राजान दोन सोंशेय पोशिल्ले. तांची उस्तवारी खासा तोच

करतालो. अशी मोनजातीची आवड आशिल्ल्या राजाक सोंसो मारून खावपाचो तांचो विचार आयकून खूब राग आयलो. ताणे तिडकून म्हळें,

- तुमी तकलेन बरे आसात मू? काय दोन दीस रानांत राविल्ल्यान बुध्दीक कळम आयल्या?

- आरे, मर्दींच कितें जालें तुजें? बरो आसा मुरे राजा?

- जॅकी, हांव सारकों आसां. तुमची मात मत चळळया.

- हें, कितें रे राजा, झगडपाच्याश्या मुडांत आयलां तूं. मम्माची याद आयली?

- सिया, चड पातळाय नाका. म्हाका तुमचो राग आयला.

- आरे, आमी कितें म्हळां?

- रानांत रावन तुमी राकेस जाल्यांत. सोंश्याक मारून खावपाच्यो गजाली करतात तुमी.

- आंवय, सामको आवटो रे तूं. आमी कितें खऱ्यानीच धरतलीं सोंशाक. ते कशे फांस्ट धांवतात ते आमी ह्या दिसांनीच पळयल्यात. आमचेकडेन आर्म लेगीत आसल्यार धांवतल्या सोंशाक आमच्यानी मारुंक जावचें ना रे.

- रानवटी जनावरां मारप म्हळयार व्हड गुन्यांव म्हूण जाणात मरे तुमी. बंदखणीत वचून वसचें पडटलें.

- वोगी राव रे राजा, अशे कायदे आसले म्हूण? लोक किते सावदां मारून खायनात म्हूण समजला तूं? जॅकीन ताका चाळोवन म्हळें.

- हय, मारतात आनी रानखात्याच्या मनशांक कळळें जाल्यार बंदखणींतूय वचून बसचें पडटा हां.

- खरें हां तुजें राजा, रानवटी जनावरांक मारप हो व्हड गुन्याव खंय. अशीं जनावरां मारून खावन खावन कांय जनावरांच्यो जाती ना जावपाचे वाटेर पावल्यात खंय. मारीया टिचर सांगताली. मिनलान सांगलें.

- रानां मारून मारून जनावरांक रावपाचो जागोय ना केल्लयानय जनावरांची संख्या कमी जाल्या खंय म्हूण सरकारान अभयारण्यां तयार केल्यांत आनी थंय जनावरांची जतनाय घेतात, तांकां आलाशिरो दितात. आनी ना जावंक पाविल्ल्या जनावरांचीय संख्या वाडोवचो यत्न करतात. अशेंच सांगिल्ले मगो टिचरीन.

- हय म्हूण १ ऑक्टोबर ते ७ ऑक्टोबरमेरेन 'वन्य जिवन सप्ताह' पाळटात. त्या दिसांनी आमच्या असल्या विद्यार्थ्यांक तरेकवार सर्ती दवरतात. जनावरां, सैम हांचेर आदारीत चित्रांची सर्त दवरतात. रान भोंवड्यो काडटात.

- थोड्या भितर सांग गो, आमकां रानाची, जनावरांची वळख घडयतात.

- हय रे, आनी झाडांची जतनाय घेवपाक, तांचें मोल कळपाक

जुलय म्हयन्यांत 'वनमहोत्सव' मनयतात.

- हय, आतां आयले जाग्यार तुमी. ह्या सोबीत...

- आनी भयांकृत.

- हय रे सोबीत आनी भयांकृत रानांत रावन आमी हांगाचीं जनावरां मारपाचो विचार करप म्हळ्यार पिशेपणाच न्हय?

- हय आं राजा. गुन्याव भोगोस. मारिओन नाटकीपणान दिमी मोडून म्हळें.

- बाळका, भिवंनाका. तुकां अभय दितां.

- ए, अभय, अभय देसाय म्हाका कित्याकू? आनी तो खुंयच्यान हाडून दितेलो तूं?

- आरे पिशा, आमचे क्लासींतलो अभय देसाय तो खंयच्यान हाडून दितलो? अभय दिता म्हळ्यार ताणे तुका माफ केलो. भोगशिलो.

- आं, अशे सारकें सांग. व्हडाव्हडान हांसत मारिओन म्हळें. सगळींच खिणभर आपले त्रास विसरून व्हडा व्हडान हासूंक लागलीं.

- ए हांसत बसल्यार हांगा उरतलीं. चल, या. वरोच वगत आमी हांगा पेड्डेर केलो. चार जावपा आयलीं. मारिओन सगळ्यांक तार्कीत केली. हात धुले आनी ते मुखार सरले.

वरी वाट चलतकच तांकां एक दोंगुल्ली दिसली. परेशाक दिसलें. 'दोंगुल्लेचेर चडून पळयल्यार पयसुल्लो वांठार दिसतलो. खंयी कोणय मनीस वा धुंवर येता जाल्यार कळटलो.'

दोंगुल्ली तशी चड उंच नासली, तिचेर मर्दीं मर्दीं तळपां आसलीं. सियाचे पांय आतां बरेच दुखताले. पूण उमेदी भरशीं तें दोंगुल्ली चडपाक तयार जालें. मर्दीं मर्दीं तळपार वसत तीं वयर चडटालीं. वयर चडटा तशीं तांका घाण शी येवपाक लागली.

- जाणा मरे, बोंडला आमी गेल्लीं तेन्ना अशीच घाण येतालीं. कसलीं पूण जनावरां आसात हांगा. सांबाळून चडुंया. मारिओन सांगलें.

- आरे, कोल्यांचे कुडीकडेन पाविल्लीं तेन्ना अशी घाण येताली.'' राजान याद करून सांगले. ते बडी धरून सादूर जावन चडपाक लागले. दोंगुल्लेचेर वयर पावतकच ते चारय वटच्यान कोण दिसता काय पळोवंक लागले. निकतेंच वयर पाविल्ल्या सियान तळपार बसून चोंय वटेन पळयलें आनी म्हळें, ''ए, रान म्हूण कितलें सोबीत दिसता न्हय?''

हय तर, तातूंत जनावरांय बरींच सोबीत आसात. तांच्या भंयामुखार रानाक आनी कितें तोखेतलीं?

आज वयर आयलीं म्हूण कळळें.

रानाक सगळीं तोखेतासर परेशान सगळ्यांक वोगी केलीं. दोंगुल्लेचे दुसरेवटेन एकार एक तळपां आसलीं. मदी पोकळसाण जावन धोल कशी दिसताली. ते घोली भायर आंगार पाखां कशीं काटें आशिल्लीं दोन व्हडलीं जनावरां फिरतालीं. परेशान तांका दिस्तच पळयलीं आनी सगळ्यांक दाखयलीं.

- आरे ती साळ, आमी बोंडला 'झूं'त पळयिल्ली. तांचीच घाण
ा. राजान सांगलें.

- हय, सांबाळून रावात. आवाज करनाकात. दुस्मान येतासो
देसल्यार ती आंग फुलोवन कांटे सोडटा. मारिओन सांगलें.

कांटे? कांटे खंय आसात तिका?

हीं पळय, तिच्या आंगार पाखांशीं दिसतात न्हय तीं पाखां न्हय, कांटे.

मारिओन सगळ्यांक आवाज करनासतना सकयल देवूंक लायलीं.
"आमी न्हंयचे वटेच्यानच मुखार सोरया." मारिओन सगळ्यांक सांगलें.

- हे वटेन उदक पियेवंक येनात मरे तीं? परेशान भिवन विचारलें.

- येतलींच. पूण आमचेकडेन बडयो आसात न्हूय. आवाज केल्यार धांवतलीं तीं. आमी आतां इतलीं जनवरां पळयलीं. तीं बेठींच आमच्या आंगार येवं ना. तांचे वाटेक गेल्यार तीं चाळवतात.

इतले म्हणसर सांज जाल्ली. ताणी बेगीबेगीन झाड सोदलें. थंयच तांकां दोन तळपांच्या मर्दीशी जाल्लीं रानकेळ मेळ्ळीं. ताचो पिको घडय ताणी काडून घेतलो. एक बरेंशें झाड मेळटकच सदचे वरी ताणी ताचेर दांडे मारून पळयलें. कोणय सुकर्णी, सवदां, जिवाणी आसत म्हूण तीं अशें करतालीं. मागीर ताणी झाडाकुशीन धुंवरी घाली. आनी तीं आपलीं कामां करून झाडार चडलीं.

न्हीद लागसर एक एक लाकूड उज्यांत उडोवपाक ताणी कांय शिरपुटां वयर हाडून दवरिल्लीं. रानकेळीं आनी भाजिल्ले कंद खावन ताणी रातचें जेवण केलें. आनी गजाली करूंक लागलीं.

आज तांकां जें झाड मेळिल्लें ताका धोल नासली. दोन खांद्यांच्या मदल्या जाग्यार तीं बशिल्लीं. पांय सकयल सोडचे पडिल्ल्यान ते हुमकळून दुखताले. पयलींच इतले दीस चलिल्ल्यान पांयांक त्रास जातालो. तातूंत हो त्रास. परत परत पांय हेवटेन तेवटेन करीत राविल्ल्यान तांकां सारकी न्हीद मेळिळना.

फांतोड जातनाच सगळीं सकयल देंवलीं. मिनलान म्हळें, ''आमी आतां थोडो वेळ हांगा जमनीर न्हिदतात. फाट सामकी भरून आयल्या. सारकी सकाळ जातकच आमकां उठयात आनी तुमी न्हिदात.''

- बरे भशेन, तुमी हुस्क्यामेकळीं न्हिदात. आमी कोणय येता जाल्यार पळयतात. राजान तांकां उतर दिलें.

चलयांनी झाडाचीं व्हड व्हड पानां सकल घालीं आनी खूब दिसांनी फाट तेंकोवन न्हिदलीं. उजवाड चड फांकसर चले धुंवरे भोवतणी बसून शेक घेवंक लागले. उपरांत ताणी परेशाक थंय रावंक सांगलें आनी सकाळचीं कामां करुंक न्हंयचेर वचूंक उठले.

दोन पावलां राजा मुखार गेलो. इतल्यांत ताणे पळयलें. न्हंयचे पलतडीन जनावरांचो एक कळप उदक पियेता.

- मारिओ, जॅकी हीं पळय कसलीं जनावरां राजान तांका

दोगांकय दाखयलीं.

- आरे तीं चितळां. मारिओन सांगलें.

- म्हळ्यार हरणां मरे? जॅकीन विचारलें.

- परेश, बेगीन यो, चितळां पळय.

मारिओच्या बोवाळान न्हिदिल्ल्यो चलयो जाग्यो जाल्यो. तीं सगळीं हळू हळू न्हंये म्हऱ्यांत आडसाक रावन तांकां तोखेवंक लागलीं. उदक पियेवन चितळांचो कळप वळटा आसतना एक पील उदकांत पडलें आनी व्हांवक लागलें. उदकाक मात्सो नेट आसलो. पील व्हांवता तें पळोवन तेवटेन ताची आवय आड्डत देगेवयल्यान धांवक लागली, उदकांत पील आड्डतालें. हे वटेन हांचो जीव वयर सकयल. तींय तें पील व्हांवत वता तशीं हे देगेवयल्यान वचूं लागलीं.

इतल्यांत एका तळपाक आडखळून पील उरलें. पूण ताका देगेर येवंक जम नाजालें. तें व्हडाव्हडान आड्डतालें. मारिओ विचार करिनासतनाच उदकांत देंवलो. ''आरे, आरे, मारिओ...'' म्हणत भुरगीं मुखार आयलीं. तांकां पळोवन बाकीचीं चितळां धांवलीं. पूण त्या पिलाची आवय मात थंयच रावन मारिओ आपल्या पिलाक व्हरत म्हूण आड्डताली.

तळपांचो आदार घेत घेत मारिओ मुखार सरतालो. पूण पील आशिल्लें थंय उदक बरेंच खोल आसलें. एका नेटार मारिओ मुखार सरलो आनी ताणे पिलाक काडून वयर तळपार दवरलें. पूण ताचे आवय म्हऱ्यांत तांका दितलो कसो? आपल्या पिलाक कोण तरी

वांचयता हाची जाणीव जाल्ल्यान आवय आतां आड्ड नासल्ली फकत हेवटेन तेवटेन फिरताली.

मारिओ थोडो वेळ फातराक घट्ट धरून रावलो. वरें चितल्ले उपरांत ताका एक युक्त येवजली. ताणे राजाक आपलो दांडो दिवंक सांगलो. दांडो न्हंयत घालून रेव्यांत घट्ट रोमून पिलाक घेवन दांड्याक धरून पलतडीन वचपाचें ताणें थारायलें. ताचो विचार राजाक आनी जॅकीक समजलो. ताणीं किळच्यो मारून सांगलें. "मारिओ, तूं चिंतता तशें जावचें ना. पिलाक घेवन ते वटेन उडी मारप सादी गजाल न्हय."

- मारिओ, झक मारूं तें पील. तुजो जीव त्रासांत घालूं नाका. तूं फाटीं सर. तिगय चलयो आड्डून ताका सांगू लागल्यो. पूण मारिओ तो. ताका आपल्या जिवाची पर्वा नासली. तें चिंतळाचें पील आनी ताची आवय चितळ काकुळटेच्या दोळ्यांनी मारिओक पळयतालीं. कितेंय जांव पिलाक आवय म्हऱ्यांत पावयतलोंच असो ताणे निश्चेव केलो.

ताणे दांडो पयलीं न्हंयत घट्ट रोमलो. दुसऱ्या हातान पिलाक वेंगेंत घेतलें आनी ते वटेन झेप मारली. जमनीर वडी घेवन झेप मारत मुखार वचपाचो खेळ ते खेळटाले. पूण व्हांवत्या उदकांत पिलाक घेवन झेप मारतना मारिओचो दांड्यावेलो हात सुटलो. पील ताणे तडीर सोडलेंच पूण तो उदकांत पडलो. ताका तो दांडो परत हातांत धरपाक मेळ्ळोना. उदकाच्या नेटार मारिओ व्हांवपाक लागलो. सगळीं आड्डत ताचेबरोबर धांवक लागलीं. तेवटेन तें पील आनी

चितळय मारिओ व्हांवता तशें धांवक लागलीं. मारिओक पोंवूक येनासलें. हाचोय तांकां हुस्को जाल्लो.

तिगूय चलयो रडत उलयत धांवतालीं. पूण कोणाक कितें करचें सुचनासलें. मारिओक तळप मेळ्ळयार पुरो म्हूण सगळींच मागतालीं. इतल्यांत एका व्हड तळपान मारिओक आडायलो. त्या बुळबुळीत तळपाक हातान धरपाक जायनासलें. उदकाच्या लोटांत व्हांवून तो पयलींच जाम जाल्लो. तातूंत भंयान ताचे हात पांय थरथरताले.

इतल्यांत जॅकीक दांड्याची याद जाली. ताणीं आपले दांडे बॅगा फाटल्यानच दवरिल्ले आनी आकांताभरशीं तशींच धांविल्लीं. जॅकी आनी परेश धांवत धांवत परत फाटल्यान गेले. हेवट्यान राजा आनी चलयो मारिओक धीर दितालीं.

परेशान सगळयांचीं बॅगां घेतलीं, जॅकीन दांडे घेतले आनी ते धांवत तांचे म्हऱ्यांत आयले. इतल्या वेळांत मारिओ मात्सो थंड जाल्लो. आतां तो बुळबुळीत फातर ताका मात्सो मात्सो धरपाक येतालो. ताच्या आधारानच तो उथळ भागांत येवंक सोदतालो.

इतल्यांत जॅकी दांडो घेवन थंय पावलो. तो मारिओकडेन दिवपाचो ताणी यत्न केलो. पूण हांगा न्हंय वरीच रुंद आसली. दांडो मारिओकडेन पावनासलो. हेवटेन लागींच एक तळप आसलें. राजा धोंपरभर उदकांतल्यान वचून त्या तळपार चडलो, आनी ताणे दांडो कसो तरी मारिओकडेन पावयलो. पूण ह्या बोवाळांत राजाच्या हातांतल्यान दांडो सुटलो.,

मारिओक दांडो मेळिल्लो. पूण आतां तो उदकांत रोवन मुखार येवपाचो धीर मारिओक नासलो. तळप आनी दांड्याच्या आदारान तो मात्सो सारको तळपाक धरून रावलो. हळू हळू तो तळपार चडून बसलो. सगळ्यांनीच उस्वास सोडलो. पूण हेवटेन येतलो कसो? तेवटेन तीं केन्नाच रानात गेल्लीं. हेवटेन राजाक एक युक्त येवजली. ताणे मारिओक थंयच बसपाक सांगलो आनी आपल्या बॅगांतली सुरी काडून घेतली. चलयांक थंयच बसूंक सांगून परेश आनी जॅकीक घेवन गेलो.

थंयच जागो सोडून चलयो बसल्यो. सियाचो पांय सुजिल्लो. आतां मारिओच्या बोवाळांत धांवतना तो चडच सणसणटालो.

राजान तांकां सांगलें, - बरी घटशी आनी लांब वाल मेळटा जाल्यार सोदया.

रानात मातशे फिरले उपरांत एका ल्हानशा झाडार बरी वाल हुमकळटा ती दिसली. जॅकीन तिची घटाय पळयली आनी राजाक सांगलें,

- राजा, ही पोळय वाल, घोट आनी व्हडय आसा. हांव वयर चडून ती वाल कापून काडटां. सुरी दी.

राजान पयलीं ते वालीर जिवाणें बी आसा जाल्यार पळोवन घेतलें. मागीर जॅकीक वयर चडूंक सांगलो. जॅकी सुरी तोंडांत घेवन वयर चडलो. वाल बरी घट्ट आसली. मोठ्या यत्नान जॅकी ती कापूंक लागलो. इल्लेशे सुरयेन ती वाल कापून काप नासली. जॅकीक

त्या झाडार सारको बसूंकय मेळूं नासलें. तरीय निमणे ताणे ती वाल कापली. राजा आनी परेशान हळू हळू ती वोडून सकयल घेतली. तितले म्हणसर जॅकीय सकयल देंवलो.

वाल घेवन ते मारिओ आशिल्लो थंय आयले. तिगीय चलयो मारिओकडेन उलोवन ताका धीर दिताल्यो. राजान मारिओक सांगलें, "मारिओ, आमी ही वाल तुजेकडेन उडयतात. ती एका हातान घट धर. दुसऱ्या हातान दांडो धर. आमी तुका ओडून देगेर घेतात."

"मारिओ तळपार घट बस हां. वाल धरपा निमतान तूं परत उदकांत पडशी. हाच्या मुखार उदक चड खोल आसा शें दिसता." परेशान ताका शिटकायलो.

राजान वालीचें दाट आशिल्लें पोंत मिनल, परेश आनी रिटाकडेन दिलें आनी देगेपसून मातशीं भितर उबीं रावंक लायलीं. वालीचें दुसरें पोंत जॅकीकडेन दिवन आपूण उदकांतल्यान वचून त्या तळपार उबो रावलो. जॅकीकडल्यान ती वाल घेतली आनी मारिओवटेन मोखली. पूण वाल ताचेकडेन पावली ना. दोन तीन वेळा यत्न करूनय ती जड वाल मारिओमेरेन पावनासतना अर्दे वाटेरच पडटाली.

इतल्यांत मारिओक एक युक्त येवजली. ताणे जॅकीक सांगलें, - कोळसुलेक घालूंक राजवाची कोळणी करतात तशी वालीच्या पोंताक कोळणी कोर आनी राजा कोडें दी.

जॅकीन कोळणी करून राजाकडेन दिली. तितलेसर मारिओन दांडो तिरकस करून राजावटेन धरलो. दांडो लागीं पावतकच राजान

कोळणी ताका घाली. मारिओन हळूच बडी लागीं ओडली आनी वाल काडून घेतली. मागीर एका हाताक वालीची कोळणी घालून वाल घट्ट धरली, दुसऱ्या हातांत दांडो धरलो आनी उदकांत देंवक तयार जालो.

तितलेसर राजा आनी जॅकी फाटीं वचून वालीक घट धरून रावले. थंयच्यानच राजान मारिओक सांगलें, - मारिओ, भियेनास्तना उदकांत उडी मार. कोलव्यां नुस्तेंकार कशे जाळ ओडटात तशे तुका आमी ओडून घेतात.

- दोरी, आनी दांडो कसोच सोडुनाका हां. सगळ्यांनी ताका शिटकायलो.

मारिओ हळूच उदकांत देंवलो. ते बरोबर सगळ्यांनी वाल हळू हळू ओडली. तडीर पावतकच ताका राजा आनी जॅकीन हात दिवन वयर घेतलो.

इतलो बोवाळ जातासर कोणेच तोंडय धुवंक नासलें आनी कांयच खावूंक नासलें. उठ्ठनाच हो बोवाळ जाल्लो. आतां तांकां भूक लागिल्ली. सगळ्यांनी तोंडां धुलीं. थंयच आशिल्ले एके वालीक तेंडलीं कशीं फळां आसलीं. तीं पळोवन जॅकीन म्हळें, - व्वा, तेंडलीं आसा मूं हांगा ! मारिओचें लक्ष त्या फळांर गेलें. ताणे म्हळें, -
तीं तेंडलीं न्हय. रानतेंडल्यावरी तीं गोडेघोस्टांय म्हणटात तांकां. ताचे पोंदा मुंडली आसता ती खावपाक बरी लागताय.

- राजान आनी जॅकीन वेळ केलोना. रोखड्योच हुमटावन

ुडल्यो काडल्यो. बऱ्यो धुल्यो आनी खाल्यो. तांकां त्यो रुचीक ागल्यो. थंयच तांबड्या फळांचें त्या दिसाचें तें झाड लागींच आसलें. रेशान वचून ताचेय घोंस काडून हाडले. तीं फळां आनी कंद खावन ाणी पोटाची भूक भागयली.

आतां मुखार वचूं जाय आसलें. पूण मारिओ जाम सो जाल्लो. सियाचोय पांय सुजिल्लो. तशीं सगळींच जाम जाल्लीं. 'मारिओ बुडलो' ह्या भंयान तांचो आवरो उडिल्लो. ताणी थंयच बसून विसव घेवपाचें थारायलें. सावळीशी पळोवन व्हड व्हड पानां घालून तीं आड पडलीं.

तांकां झांप लागता थंय आसा, गव्या रेड्याच्या ओंकेवपान तांकां जाग आयली. कितें जालें म्हूण कळूंकनाशिल्ल्यान "मम्मी...मम्मी...आई गेऽ...मम्मा" अश्यो किळच्यो मारीत तीं जागीं जालीं. बरे मुखार दोन गवे रेडे झगडटाले. इतले दीस ताणी रानांत शेणाचे व्हड व्हड थापे पळयिल्ले. पूण गवो रेडो पळोवं नासलो. येद्या मोठ्या शिंगांचो, येदो व्हडलो गवो रेडो पळोवन तीं भियेलीं.

"आरे, आरे, आमी खंयींय तरी लिपुया. आमच्या आंगार येत तो." सियान आनी रिटान भियेवन म्हळें.

मारिओन कोणाक झाडार चडपाक येता तांकां झाडार चडूंक लायले. मिनल लेगीत एका ल्हानशा झाडार चडलें. पूण सियाक झाडार चडोवपाची गती नासली. ताका आनी रिटाक घेवन तो एका व्हडल्या झाडा फाटल्यान लिपलो. गव्या रेड्याचीं झगडीं नेटार आयिल्लीं. तांचें लक्ष हांचेर नाशिल्लेंच. झगडत झगडत ते पयस

गेले. ते परत येत ह्या भंयान सगळीं थोडो वेळ वांग्गी वसून गवलीं. उपरांत मारिओ सियाक आनी रिटाक घेवन भायर आयलो आनी सगळ्यांक आपयलें.

सियाकलागून आतां तांका ल्हवू ल्हवू वचचें पडटालें. पूण एका जाग्यार कशीं रावतलीं? तांकां मुखार वचुंकच जाय आसलें. सियाच्या हाताक धरून तीं ताका हळू हळू चलयतालीं.

बरी वाट चलून वतकच तांकां कालचे कंद मेळ्ळे. ते ताणी चडशे काडून फापडून वॅगांत भरले. आनी थोडो वेळ चलून वतकच तीं एका झाडाचे सावळेंत बसलीं. वॅगांतले थोडे कंद काडून ताणी भाजून खाले. ताचे बरोबर सकाळचीं फळां आशिल्लीं तीं खालीं आनी उदक पियेले.

तीं विसव घेवंक थोडो वेळ थंयच वसलीं. थंय लागींच रान फुलांचीं झोपां आसलीं. मिनलाचें लक्ष तांचेर गेलें. हरशींय जाल्यार तांका फुलांची आवडच. ह्या दिसांनी रानांतली तरेकवार फुलां, तांचे आकार, रंग पळोवन अजापीत जाल्ले. पूण तांका मनापसून तोखेवपाक ताचें मन थाऱ्यार नासलें. आयज त्या फुलांचो घोंस पळयतकच मात ताच्यान रावंक जालेंना. ताणे म्हळें. - वाव ! कितलीं सोबीत फुलां पळय, हांव एक घोंस काडटां हां.

- आवयूस. रंग म्हूण सामको वेगळोच न्ही हांचो, राव मिनल, हांवय येतां.

- ए फूल पिशांनो, सांबाळून चलात. झोपांत कोणय आसत बी.

- मिनल, रिटा पयलीं हात लावन पळयात. वोगीच घोंस तोड्डूंक चनाकात. रानफुलांक एकादे कांटेबा आसतात.

- हां रे आज्या. आमी सांवाळून काडटात. तूं आमचेर नदर दवरून बस. कितेंय जाल्यार धांवून येवपाक.

तीं झोंपा म्हऱ्यांत गेलीं आनी पयलीं ताणी झोंपा मुळांत पळयलें. हातांतली बडी मोठ्यान जमनीर आपींटिली. पूण कोणाचीच जाग नासली. मिनल ल्हवूच मुखार गेलें आनी त्या घोंसातल्या फुलांक हात लायलो. ताका चिकट चिकटशें लागलें. तरी ताणे घोंसाचीं दोन चार फुलां काडलीं. पूण फुलां सगळीं ताच्या हातांत आयलींच ना. तांच्यो पाकळ्यो बोटाक चिकटल्यो. ताचीं बोटांय चिकचिकीत जालीं.

- आंवय, हें कितें? शीऽ

- कितें जालें मिनल?



तांचेर नदर दवरून आशिल्ल्या मारिऑन रोखडेंच विचारलें.

फुलां काडूंक गेल्यार पाकळ्योच बोटांक चिकटून आयल्यो. गोमाचें कशें फूल मरे हें.

- मिनल, बेगीन हात धूय, यो उदक घालतां हांव. सियान बाटलेंतलें उदक ताच्या हातार रकयलें.

- ये बायानो, हें रान म्हणून समजून रावात. हांगा जायतें भाशेन झाडां आसात, कसलीं कसलीं फुलां, फळां आसात. आमी काय वळखनात. झोपोच करून कितेंय जालें जाल्यार आमी करप पूण कितें? आजूनमेरेन दुसरो एऽक मनीस आमकां मेळुना.

- हय आं जॅकी, आमी सांबाळून रावपा जाय हांगा.

- आनी मरे, रानांत कांय फुलां, झाडां प्राण्यांक खावपी आसात खंय. घडये हें फूल, मिनलाच्या हाताक चिकटलां पळय जीव, जिवाळ खावपी आसूं येता.

- आसत हां रिटा, हांवेंय वाचलां. व्हड व्हड रानांत खंय व्हड रुख आसतात. मनीस, जनावरां कोणय ताच्या पोंदांतल्यान गेल्यार रुका खांदी सकयल येता आनी त्या प्राण्यांक घट धरून ताचें रगत पिता. सगळें रगत पितकीच ती खांदी त्या प्राण्यासयत वयर वता. राजान म्हळें.

- आवयस ! राजा आनी सांगू नाकां. म्हाका भंय दिसता. सियान दोळे गच्च धांपून, कानार हात धरून म्हळें.

- आगो पिशा, अशें भिवंनाका. ह्यो गजाली आमगे ह्या रानातल्यो हय. त्यो आफ्रीकेंतल्या रानांतल्यो काणयो. मारिओन हांसून म्हळें.

- खरेंच मरें, आमच्या ह्या रानांत तसलीं झाडां आसचीं ना मरे?

- सिया, बेठेंच भिवंनाका हां. ए आतां ह्यो गजाली पुरो हां. आमी फुडें वचुंया.

गजाली करत तीं मुखार सरलीं. बरो वेळ चलून वतकच तांका आडवो व्हाळ व्हावता तो दिसलो.

- आरे, ही येदी व्हडली न्हंय अशी ल्हानशी जावन आडवी व्हांवता पळय, जादूच सो न्हय? सियान अजापान म्हळें.

- सिया, ही आमची ती न्हंय न्ही. हिका व्हाळ म्हणटात. हे वटेन दोंगुल्लेचेर खंयीय वजरो आसतलो. ताचें उदक व्हाळ जावन हांगा येवन आमचे ते न्हंयेक मेळटा.

- अशे ल्हान, व्हड व्हाळ, न्हंयो एकठांय मेळून मेळून दर्या मेळसर व्हडली न्हंय जाता. मारिओन सांगलें.

- ए कितलें अजाप न्हय. खंयच्या तरी दोंगरांतल्यान ल्हान वझरो व्हांवता. तो व्हांवत व्हांवत वतना न्हंय जाता. ताका आनी न्हंयो मेळटात. मागीर दर्यामेळसर व्हांवत कितल्योय पयस वतात.

- हय मिनल, आमचो दूदसागर खंय आसा पळय, ताचें उदक व्हांवत, व्हांवत, आनीक न्हंयांक मेळत निमणे झुवारी न्हंय जावन वास्कोकडेन दर्याक मेळटा.

- ही कांय न्हय, हिमालयांत जल्माक आयिल्ल्यो कांय न्हंयो व्हांवत व्हांवत कितलेच पयस येवन बंगालच्या उपसागराक येवन मेळटात.

- ह्या न्हंयाची लांबाय एकदीस वचून मेजया हां आमी. आतां हो व्हाळ कसो हुपप तो पळयात. ना जाल्यार हांगाच रावचें पडटलें आमकां.

- खरें मगो रिटा, हो व्हाळ आमी कसो हुपतलीं. बरो रुंद आसा हो. उदकय बरें नेटान व्हांवता.

- जाणा राजा, ह्या रानांत मनशांचो चड वावर ना सो दिसता.

- अशें कित्या वयल्यान म्हणटा तूं मारिओ?

- हें पळय, मनशांचें हांगा यो वच आसलेलें जाल्यार हो व्हाळ हुपूंक माडा करवे फोडे वा लाकडा कुडके घाल्ले आसात आसले.

- हय, मरे मारिओ. आमी आनी मनशां मेळटात म्हूण सोदतात.

- व्हाळ हुपपाक कितें घालतात म्हणटालो तूं? मिनल.

- आगो, माडाचे दोन वा तीन कुडके व्हाळार हे तडी वयल्यान ते तडीर आडवे घालप. ताच्या वयल्यान चलून पलतडीन वचूंक मेळटा.

- आवयस ! भंय सो मरे. पांय निसरल्यार व्हाळांत पडपाचें.

- खरें, पूण ताचे वयल्यान वेतल्यांक मागीर संवय जाता.

- सोडात रे त्यो गजाली, ह्या व्हाळार कांय तें कितें तें ना.

- ए, हो व्हाळ दिसता मात सोबीत हां. ताचे देगेर हीं फुलांचीं, आनी कसलीं कसलीं झोपां.

- मिनल फुलांक हात लावशी.

- ना रे बाबा. आज एक कॅमेरा जाय आसलो.

- बेठोच कॅमेरा न्हय मिनल, वांगडा धा बारा फिल्मांचे रोल पूण जाय आसले. हें इतलें सोबीत रान, हांगाचीं चित्रविचित्र झाडां, झोपां, तांचेवयल्यो जिवाणी कश्यो व्हडल्यो व्हडल्यो वाली. रंग-रंगयाळीं फुलां, फळां कितें आनी कितें म्हूण आमी ह्या दिसांनी पळयलें. अजापांच शीं सगळीं.

वायटांतल्यान बरें जाता तें अशें. आमी शेणिल्ल्याचो हो एक बरो फायदो.

- राजा अशें म्हणू नाका. आमचे पासत आमच्या घरच्यांक कितलो हुस्को जाला तें चीत.

- हय गो रिटा, तरी पूण इतले दीस आमी कितें कितें पळयलें, कसलीं कसलीं जनावरां पळयलीं कितल्या रंगाचीं आनी ल्हान व्हड आकाराचीं सुकणीं पळयलीं हाचो तर कोंत हिशेब ना.

- राजा, म्हूण म्हणीन दिसता,'' मिनल मात्शें रावलें. ''कितें गो?'' रिटान हांसून म्हळें.

- सांगू? हांसचीं ना मगो? म्हाका म्हणीन दिसता राना राना

सांग म्हज्या काना, कितें लिपलां तुज्या मना."

वा, वा, वा, मिनल कवी जालें तूं सगळ्यांनी ताळयो मारू म्हळें.

"ह्या रानान कवी केलें ताका, न्ही मिनल?" परेशान म्हळें.

"तुमी कितेंय म्हणात, पूण कालच्यान दोंगुल्ले वेल्यान ह सरभोंवतचो वाठार, ही न्हंय पळयतना ह्यो वळी म्हज्या मनात आयल्यो. आज ही सोबीत धाकटुली पळयतकच म्हाका रावूंक चाले ना आनी तुमकां सांगलें."

- कालच सांगपा न्ही तुवें? मारिओन म्हळें. "आमीय म्हणटले आसले, 'राना राना सांग मुज्या मना, कितें...मागीर कितें गो?"

- कितें लिपलां तुंज्या मना? बरोबर मिनल. सियान विचारलें

- हय, काल हावें सांगलें जाल्यार तुमी कितें म्हणटलीं आसलीं? आमी इतले त्रास काडटात आनी तूं रानाक तोखेता?

"ए बेगीन येयात, हे पळे कितें मेळ्ळें. जॅकीन उमेदीन तांका आपयलीं.

- कितें मेळ्ळें जॅकी? सगळीं ते वटेन गेलीं. न्हंयेचे दुसरे वटेन जॅकी उबो आसलो आनी झोपांत पळयतालो. तीं येतकच ताणे बोट दाखोवन म्हळें, हीं पळय तांतयां. न्हंयेचे देगेर रेब्यांत तशीं आनी मातयेंत जायतीं झोपां आसलीं. सकल मुळांत पानां आनी ताळकुटां आसलीं. ताचेर धवींफुल्ल मोठ्ठीं तांतयां आसलीं.

- आरे व्वा ! केदी मोटीं तांतयां.

- हांव घेवन येतां तीं. आमकां खावंक उपकरतलीं.

- जॅकी, कांय गरज ना थंय वचपाची. तीं कोणाचीं तांतयां जाणा तूं?

- हय रे जॅकी, विचार करनासतना धांवपाची तयारी तुजी. तुका खबर आसा इतलीं मोठीं तांतयां कोण घालता तो?

- रान कोंबयेची वी आसूं येता.

- हांगा इतले भितर खंयची रान कोंबी. इतल्या दिसांत एकतरी कोंबो-कोंबी पळयल्या तुमी?

- 'ना जाल्यार हांयसांचीं, वदकांचीं आसत. जाल्यार मात खाल्यार जाता. वरीं लागतात.' रिटान रूच काडली.

- आरे कितेंय चिंतनाकात. हांगा आमकां आजूनमेरेन कोंवे, हांयसां, वदकां कांयच दिसुना.

- मानगें आनी कासवय तांतयां घालतात.

- तांची तांतयां इतलीं मोठीं नासतात. आनी तीं अशीं उगड्यार घालिनात. भुसभुशीत जमनीक फोंडकूल कशें काडून तातूंत तीं तांतयां घालतात. वयल्यान मातीं घालून धांपतात. हांवें टि.व्ही.चेर पळयलां. राजान सांगलें.

- आरे, अशा रानांत कासवां आसतात? मोठी मोठी कांसवां दर्यांत आसतात तें पळयल्लें टि.व्ही.र हांवें.

- सिया अशा रानांतय व्हड व्हड कासवां आसतात खंय. आजो सांगतालो. तुमकां एक मजा सांगतां.

- सांग, सांग राजा.

- म्हज्या आज्याच्या आज्याची भयण खंय वेळगांव वचपाचे वाटेर खंय तरी लग्न करून दिल्ली. तिगेर केन्नाय कितेंय घेवन वचपाक जाय जाल्यार चलत वचचें पडटालें.

- आऽवय, इतलें पयस चलत रे !

- तेन्ना गाडयोबी खंय आशिल्ल्यो तर?

- हय. वाटेर रान. आजो आनी मानाय वताले. वाटेर तांकां जेवण करून जेवचें पडटालें. मानायान जेवण करपाक लार्गी लार्गी आशिल्ल्या दोन फातरां म्हज्यांत तिसरो फातर दवरलो. रान्नीत बरो उजो केलो आनी शिताचो तोप रान्नीर दवरलो. बरे वेळान शिता तोप हालूं लागलो. मानायान भियेवन तोप लकयल काडलो. पळय जाल्यार तातुंतलो एक फातर म्हळयार व्हडलो कासव आसलो. हुनसाण लागतकर तो उठून गेलो.

- आवयस् ! येदे व्हड कासव आसतात तर.

- भोंगू तें. अजून काय आमकां मेळळेंनात. आतां हे त्या तांतयांचें सांगा पळोवया.

- जॅकी, तूं हात लावचोना तांकां. आमकां बेठी रिस्क नाका. मारिओन तापोवनचशें सांगलें.

मारिओ बेठो तापनाका आं. हांव कितें म्हणी. एक तार्ती आमी बेठें वांगडा व्हरया. तातुंतल्यान कोणालें पूण पील भायर सरता तें पळोवया.

परेशान उमेदीन म्हळें, ''हय, जॅकी. हीं तांतयां कोणाचीं तें तरी कळटलें.

- बाबा रे, तुमकां असल्यो पाड्यो बुध्दी कित्याक येतात समजना. सोरोप, हार वा तांतयां घालतात म्हूण जाणात मरे तुमी?

- मारिओ, खऱ्यानीच... सियान भियेवन म्हळें.

- तशें जाल्यार नाका रे बावा. तातुंतल्यान सोरोप वा भायर येत. जॅकी भोंगू तीं तांतयां. आतां हो व्हाळ कसो हुपपाचो तो पळय. रिटान म्हळें.

- हांव जाल्यार ह्या व्हाळांत पांय दिवपाक ना. म्हाका भंय दिसता. मारिओ व्हावन गेल्लो तशीं आमी व्हांवन गेलीं जाल्यार.

- सिया, भिनाका. ह्या व्हाळांत धोंपरा सकयल उदक आसा. आमी एकामेकाचो हात धरून या. हांव मुखार रावतां. राजा फाटल्यान रावतलो. तुमी मर्दी रावात.

- हय, हय. चलात गो धरात हात.

-' हांव आनी परेश दोगय जाण एक हात धरून, आनी दुसऱ्या हातान दांडे जमनीर रोमून त्या आदारार वतात. तुमचे गांथनीत आमी आनी नाकात.

- शेंवट्यानो गांथन वरी घट धरात, काळुंदरां उदकांत व्हांवन वचत.

- बरें वांगड्यानो, तुमी वचात मुखार. तुमी पडले वी जाल्यार आमकां सांबाळून येवपाक बरें.

सगळीं हांसत हांसत एकामेकाचो हात धरून व्हाळांत देंवलीं. व्हाळांतले फातर शेळयान बुळबुळीत जाल्ले. पांय दवरलो काय सुळसुळटाले. मर्दांच परेश निसरून पडलो. पूण जॅकीन ताका सांबाळून वयर काडलो. परेशाची पेन्ट भिजली. ताका पळोवन हांची गांथन हळू हळू चलपाक लागलीं. एकमेकाक सांबाळत सांबाळत तीं सगळीं पलतडीन पावलीं. सियाचो पांय आतां बरोच दुखतालो. व्हाळांतल्यान वयर येतकच एका फातरार ते बसले.

- सिया, तूं बसलां तो फातरच मगो काय कासव? सिया किळंच्यो मारून उठलें. सगळीं व्हडाव्हडान हांसलीं. मिनलान ताका त्या फातरार हात मारून दाखयलो आनी बसयलें. इतल्यांत व्हाळा पलतडच्यान विचित्र आवाज येवंक लागले. सगळ्यांनी भियेवन तेवटेन पळयलें. दोन-चार रानदुकर झगडटाले. तांचे वरशे गेल्ले येदे मोठे सुळे, तांबशे दोळे आनी झगडटना करतात तो आवाज सगळेंच भयांकृतशें दिसतालें. मारिओ आनी ताचे इश्ट भंयान थरथरले. एका झाडाआडसा रावन तीं पळोवंक लागलीं. झगड-झगडत ते पयस गेले.

- हाऽ, सुटलीं सायबा. कितें भयांकृत हीं जनावरां. आमी हांगा येवन सालवार. - "तीं रानदुकरां भयांकृत जावनय बरीं दिसतालीं

न्हय? ''मारिओ, तांकां आनी तोखेनाका. भंयान आमचो जीव गेलो.. सांजे रावपाक जागो सोदूं जाय. सियाच्यान झाडार चडपाक कांय जावपाक ना न्हय.'' राजान तांकां ताकीत केली. ''तुमी हेच वाटेन सवका येयात. आमी फुडें वतात. परेश तूं तांचे वांगडा राव. जागो मेळ्ळो काय आमी कुकार घालून तुमकां आपोयतात.'' मारिओन सांगलें.

बरे मुखार वतकच तांकां न्हंयचे देगेर व्हड व्हड तळपां दिसर्ली. तीं एकामेकार अर्शीं पडिल्लीं, दोन तळपांमर्दीं बरी घोल कसो जागो तयार जाल्लो.

''राजा, ही पळय घोल कशी आसा हांगा, चलयांक न्हिदूंक बरें मेळटलें. आमी वयर तळपार न्हिदया. बरो रुंद जागो आसा हो.''

''घोलीक  पेडेंय म्हणटात जाणा? आमच्या माशाना थंय म्हणतात तीं''

- ''हय आसत, आमकां खबर ना.'' मारिओ, तांका सादय. राजान म्हळें.

''सादय कित्याक, हीं पळय तीं पावलीं. हांगासर येयात. तुमकां काय बरो रूम मेळ्ळा पळयात.'' ''वा ! आज आमकां बरें न्हिदूक मेळ्ळयार पुरो.''

परेशान येतना कांय फळां काडून हाडिल्लीं. तांचेकडेन कंदय आसले. ते भाजूंक म्हूण ताणी बेगीनच धुंवरी केली.

आज जेवतासर तांका बरोच कळाव जाल्लो. पूण रानाची

संवकळ जाल्ल्यान व्हडलोसो भंय दिसलो ना. राजान आनी जॅकीन ते धोलींत पानां घाल्लीं तरीय परत हात लावन ताणी तीं उज्याच्या उजवाडान तपासली. चलयांक हात दिवन ताणी वयर उखलून भितर बसयलीं.

ते चवगय तळपार आड पडले.

आज तांकां न्हिदपाक जागो बरो मेळिल्लो, पूण उदक पिवंक येवपी जनावरांच्या आवाजान परत परत जाग येताली. जाग येतकच कोणय एकटो उज्यांत लाकडां घालून उजो पेटत दवरतालो. त्या उज्याक भियेवन जनावरां तेवटेन येय नासलीं.

सकाळीं बऱ्या वेळान सगळ्यांक जाग आयली. चले उडी मारून सकयल देंवले. चलयांक ताणी सकयल देंवयलीं. सियाचो पांय कालचे परस चड सुजिल्लो आनी ताचें आंगय घुसघुशीत जाल्लें.

तशीं सगळींच थकिल्लीं. पोटाक खावपाक चड कांय मेळनासलें आनी वयल्यान चल चल चलतालीं. आनी आनी चलप नाका अशें तांकां जाल्लें. राजान उबगून म्हळें, "कितें करुंया मारिओ, सियाक घेवन चलप कशेंच शक्य ना. ताका जोर चडलो जाल्यार कितें करतलीं?"

- हय, आमचे एके चुकीक लागून कितले त्रासांत पडलीं पळय आमी. इतल्या दिसांत एक्कय मनीस आमकां मेळुना, कितें करतलीं आमी? मारिओन निरास सुरांत म्हळें.

निराश मनान सगळीं सकाळच्या कामाक लागलीं. इतल्यांत

मेनलान बोकड्यो पळयल्यो. - आवयस ह्यो पळे बोकड्यो.

- बोकड्योच मगो? वाग पळयिल्लेवरी बोवाळ सो तुजो? परेशान तार्ची फकाणां केर्ली.

- आरे, बोकड्यो आसप म्हळ्यार गांव खंयी तरी लार्गी आसतलो न्हय? मिनलान सांगलें.

हें, रानवटी बोकड्यो आसतल्यो त्यो.

हांचें उलोवणे जातासर सात-आठ बोकड्यो उदक पिवंक न्हंयचेर आयल्यो. तांच्या गळ्याक दोर बांदिल्लो. मारिओन तो दिस्तच पळयलो.

- ए, त्यो पोसलेल्यो बोकड्यो. आमी तांच्या वांगडा या. गांव लार्गी आसतलो. मारिओन म्हळें.



उदक पियेवन बोकड्यो परत वचूं लागल्यो. तांचे फाटोफाट मातशें अंतर दवरून राजा आनी मारिओ चलपाक लागले. सियाक दोनय वटच्यान मिनल आनी रिटा धरून ल्हवू ल्हवू चलपाक लागलीं. नज आसतनाय सिया तांचेर भार घालून मनात उमेद घेवन सवका सवका चलतालें.

थोडें अंतर वतकच बोकड्यो धांवून गेल्यो. तांच्या फाटल्यान धांवून वचप दोगांकय योग्य दिसलें ना. 'फाटल्यान हीं शेणलीं जाल्यार?' ह्या विचारान तें थंयच उबें रावलें. म्हणटा म्हणसर सगळींच थंय पावलीं. मारिओन तांकां कितें घडलें तें सांगलें.

थंयच आशिल्ल्या एका झाडाच्या पाळार ताणी सियाक बसयलें. थंयच रिटाय पांय सोडून बसलें. "आतां आमी कितें करुंया?" थंयच उबीं रावन तीं विचार करूं लागलीं. इतल्यांत सियान किळांच मारली "जिवाणें" "खंय गो? खंय गो?" सगळीं काचाबूल जावन हेवटेन तेवटेन पळयतासर रिटान किळांच माल्ली, "मेलें मेलें" आनी रिटा धड्ड करून पडलें. सगळ्यांनीच पळयलें, लांबचे लांब हळदुवेंच येदें मोठें जिवाणें रिटाच्या पांयावयल्यान सळसळीत गेल्लें. सगळो बोवाळ एक-दोन खिणाभितर घडलो.

मारिओ त्या जिवाण्याक वळखलो. पूण काचाबूल जाल्ल्यान खिणभर तोय कांयच सांगू शकलो ना. दुसऱ्याच खिणाक ताणे म्हळें, "भिनाकाय, तो दिवड. चाबना तो, चाबल्यारय विखारी न्हूय तो."

- आरे कितें उलयता तूं, सोरोपच तो, रिटाक घांस मारून धांवला तो. मेलें रे रिटा मेलें. सिया रडूंक लागलें.

- पिशा, तुका रडूंक पयलीं जाय, सोरोप असो फांस्ट धांवना, दिवड तो. उदाक हाड रे राजा.

मारिओन राजाकडच्यान उदक घेतलें आनी पच्च, पच्च करून रिटाचेर मारलें. 'आवोय ! मामी सोरपान खायलें, सोरपान खायलें'' गच्च दोळे धांपून रिटान किळांच मारली. ''रिटा दोळे उगड, कांयच जावं ना तुकां. सोरोप न्हूय तो, दिवड.'' मारिओन ताका उठोवन बसयलें. राजान ताच्या तोंडाकडेन उदक धरलें. रिटान ल्हवू दोळे उगडले. ''मारिओ, तो खरोच दिवोड मुरे. तुवें पळयला ताका?''

- हय रिटा, इतलो लांब आनी फांस धांवता तो दिवोडच.

- मारिओ, बरे जालें तूं वळखलो म्हूण. ना जाल्यार भंयानच रिटा आनी आमीय बी जीव सोडटलीं आसलीं. मिनलान कडकडत सांगलें.

- म्हाका हे थंय तो दिसलो. जिवाणें म्हूण हांव किळच्यो मारतासर तो रिटाच्या पांयावेल्यान गेलो. रिटा, म्हाका दिसलें तूं खऱ्यानीच मेलें म्हूण. सियान सांगलें.

- कितू फांस्ट धांवता रे तो, काय बरो दिसता जाणा.

- जॅकी, पुरो ताच्यो तोखणायो, जीव गेलो आमचो हांगा. रिटान खर्शेत सांगलें. ताचो जीव अजून थाऱ्यार येवं नासलो.

- जाणा मरे, टी.व्ही.चेर ते रानातल्या जिवाण्याक, जनावरांक सोदीत तांची माहिती एकठांय करीत फिरतात पळय तें म्हाका पळोवपाक आवडटा. तें कशे करून सोदत फिरतात काय दिसतालें.

पूण आतां म्हाका कळ्ळें, रान कितलें सोबीत आसता. सगळीं साधनां घेवन फिरलीं जाल्यार रानाचो भंयच नासता. खरेंच मिनलाचे काल्चे कवितेभशेन, रानाच्या मनात कितें कितें लिपलां कांयच कळना.'' राजान उमेदीन सांगलें.

- राजा, तूं रानाचो संशोधक जा आनी टि.व्ही.वेल्या त्या मनशांवरी रानात कॅमेरा घेवन फीर, हातानी धर जिवाणी बी. पूण आतां ताची याद लेगीत काडूं नाका. म्हाका भंय दिसता. ह्या रानांतल्यान केन्ना काय भायर सरल्यार पुरो जालां आमकां. परेशान ताका सांगलें.

- आरे, ह्या जिवाण्याच्या वोवाळांत त्या वोकड्यांक विसरलीं. जॅकीन याद केली.

- रावात हां, वोकड्यो हांगा उदक पिवंक आयिल्ल्यो म्हणटकीर तांचे राखणेय लागींच आसूं जाय. हांव कुकार घालतां. परेशान सांगलें आनी तो व्हडान कुकार घालूं लागलो. रोखडोड तसोच साद आयलो.

- हँ. हे पक्षी म्हूण एक. रोखडीच जाप दितात आनी आमकां फटयतात. परेश उबगलो.

- ना परेश, हो सुकण्याचो आवाज सो दिसना, परत कुकार घाल. रिटान म्हळें.

परेशान एकारएक तीन कुकाऱ्यो घाल्यो. परत दुसरेवटच्यान तीन कुकाऱ्यो आयल्यो. सगळ्यांच्या तोंडार खोशी फांकली. परेशाच्या

कुकाऱ्यांक मेळिल्ल्या सादान कोण तरी  मनीस रानांत आशिल्ल्याची तांकां सुलूस मेळिल्ली.

कुकारेचो आवाज जे वटेन आयिल्लो ते वटेन तीं सातय जाणां ल्हवू ल्हवू चलपाक लागलीं. सियाच्यान सामकें जाय नासलें. तरी पूण  मनीस मेळटले, गांव मेळटलो, हे आशेर तें इश्टणीच्या आदारान एक एक पावल उखलतालें. परेशान परत कुकार घाली. ताचे कुकारेक जाप आयली ती लागींच्यान. पूण मनीस, वोकड्यो कोणच दिसनासल्यो. थोडो वेळ चलतकच सियाच्यान एक पावल लेगीत उकलूंक जायना जालें. ताणे थंयच आशिल्ल्या एका झाडाच्या पाळार बसकण मारली.

- आनी, आनीक चलपाक जायना गो म्हज्यान. प्लीज हांव मातशें न्हिदतां.

फाटल्या झाडाक  वणखून ताणे दोळे धांपले. सगळ्यांक सियाची चिंता जाली. आतां दनपार जाल्ली. मनीस मेळटले हे उमेदींत ताणीं कांयच खावं नासलें. थंय लागींच आशिल्ल्या रुमडाचीं वरीं तांवडींच फळां जॅकीन हाडलीं. तांकां व्हडली रूच नासली पूण आनी कांयच मेळूं नासल्यान पोटाभुकेक ताणी तीं खालीं.

फळां खावन जातकच मारिओ उठलो. ''चाल राजा, हांव तूं आनी जॅकी ह्या वाठारांत पासय मारून येवया. वोकड्यो आनी राखणे खंय तरी मेळटलेच. आनी ही पळय मळिल्ली वाट. मनशां हांगा येता आसतलीं. ताचे वयल्यान या.

- आनी, तुमी वाट चुकोन खंयी पावले जाल्यार रे? सिया पयलीं बरें ना. आमी कितें करतलीं? ग्टिान वेजारून विचारलें.

- खरेंच मारिओ, आसूं, आमी हांगाच वसुंया. ते गखणे घडये आमकां सोदत हांगा येतले. मिनलान म्हळें. - गखणे येतले, गांवकार येतले म्हूण आमी वोगी बसून कशें जातलें? आमी आमचेपरी यत्न करूंकच जाय. आज पयले खेप आमकां मळिल्ली वाट मेळया. राजान म्हळें.

- हय रे राजा, याच आमी. पूण तींय म्हणटात तेंय सामकें भायर मारपा न्हूय. हांव एक माण्णी सांगतां ती आयक. परेश थोड्या थोड्या वेळान आमकां कुकार घालतलो. आमी ताका परत साद घालुया. तुज्या सादारच आमी परतून सारके हांगा येतले. समजलें.

मारिओची सांगणी सगळ्यांक पटली. तरी मिनलान म्हळें, - तरी पूण, सांबाळून हां. हो दांडो सोडनाकात. चड पयस वचूं नाकात.

- बरें, बरें भिनाकात तुमी.

हातांत बडयो घेवन राजा, मारिओ आनी जॅकी हेवटेन तेवटेन बारीक पळयत चलपाक लागले. परेश मर्दी मर्दी तांकां जागयतालो. एक खेप परेशाले कुकारेक कोणे तरी साद दिलो. मारिओन दिस्त आवाज आयकलो. सामको लार्गीच्यान आयिल्लो. इतल्यांत जॅकीक बोकडेच्यो लेणयो दिसल्यो.

- मारिओ, राजा, पळय बोकडेच्यो लेणयो.

- आरे व्वा, ह्योच आमकां वाट दाखयतल्यो. परेशाक कोणेतरी

लार्गींच्यान आवाज दिला. चल लेणयो सोदीत वचुंया.

रानांतल्या पानांच्या कचकचांत लेणयो कश्यो दिसतल्यो. तरीय मर्दी मर्दी खंयीय दिसताल्यो. मागीर मारिओन कुकार घाली. ताका लार्गींच्यान साद आयलो. हे वटेन परेशानय जाप दिल्ली. लार्गीं साद आयिल्लो थंय तिगूय जाण उमेदीन धांवले. पळय जाल्यार मातशा खोलशा भागांत सावळेक कितल्योश्योच बोकड्यो बसल्यात. लार्गींच एका झाडामुळांत राखणे बसल्यात आनी भुती सोडयतात.

मारिओन खोशयेन तांकां विचारलें, - तुमचे फुड्यांत खंयच्यान येवप?

ताणी कितें तरी म्हळें, हांकां तांची भाशा कळ्ळी ना. मारिओन राजाक म्हळें, - राजा, तें कितें उलयतात तें कांय कळना.

- राव, हांव विचारतां.

राजान कुरवेन तांकां तांचे म्हर्‍यांत येवपाचो मार्ग विचारलो. इतल्यांत परेशाली कुकार आयली. मारिओन आनी राखण्यानी वरोवर जाप दिली आनी ते हांसले. ताणी कुरवांनीच खंयच्यान सकयल देंवप तें दाखयलें. राखण्यानी आपले भाशेंत तांकां कितें कितें विचारलें. पूण तांच्या उलोवण्यातलीं कांय कोंकणी उतरां तांकां कळ्ळीं. मारिओन आनी राजान तांची परिस्थिती कुरवांनीच तांका सांगपाचो यत्न केलो. पूण तांकांय राजा आनी मारिओच्या कुरवांचो अर्थ व्हडलोसो कळुंना म्हूण तांच्या तोंडावयल्यान हें समजलें. राखणे केन्ना केन्नाय इतले पयस रानांत येताले. ते आज हांकां बर्‍याक पडिल्ले.



राखण्यानी तांकां बसोवन आपले भाकरेची भुती सोडली आनी तांकां भाकरी खावपाचो  आग्रो केलो. तेन्ना राजान 'आमचे बरोबर आनीक लोक आसात, आमी तांचे म्हऱ्यांत या म्हणून कुरवेनचतांकां सांगलें. तांचे कुरवेचो अर्थ राखण्यांक बरोबर कळ्ळो. ताणी एका राखण्याक बोकड्यो राखूंक बसयलो आनी भाकरेच्यो पोटल्यो घेवन ते तांच्या फाटल्यान चलपाक लागले. परेशाक कुकार दिवन मारिओन ते खंय आसात तें जाणून घेतलें. आनी राखण्यांक घेवन तेच दिकेन ते आयले.

कंबराक फकत काश्टी, माथ्याक तांबसो कुडको आनी हातांत बडी घेतिल्ले ते उगडे राखण्यापोर पळोवन पयलीं मिनल आनी रिटा



भियेलीं. पूण मारिओ, राजा आनी जॅकी तांचेवांगडा हांसत उलयत येतात ते पळोवन तांकां मात्सो धीर आयलो.

ते लागीं येतकच परेशान सियाक जोर आयला म्हूण सांगलें. मागीर ते सगळे थंयच बसले. राखण्यानी पयलीं आपल्यों भुतयो सोडल्यो. नाशण्याची भाकरी, कांदो आनी हरव्यो मिरसांगो घेवन ते आयिल्ले. हरशीं जाल्यार मिनल, रिटा तांच्या भाकरी बांदिल्ल्या लेंसाक पळोवनच विट्टलीं आसलीं. पूण इतले दीस फळां, कंद खावन तांकां वाज आयिल्लो. ती भाकरी तांका अप्रूप कशी दिसली. त्या राखण्यानी भाकरेचो कुडको मोडून सगळ्यांक दिलो. कांदोय मुठीन फोडून दिताले पूण जॅकी आनी मारिओ सोडून कोणाकच कांदो खावपाची संवय नासली. इतले दिसांनी खाल्ली ती भाकरी तांकां आयस्क्रिम खाल्लेवरी लागली.

सियाक मात कसलीच इच्छा नासली. ताचो जोर मात्सो

चडिल्लो. भाकरी खाले उपरांत एका राखण्यान सियांचो पांय सारकं पळयलो. हेवटेन तेवटेन सोदून एका झाडाचो पालो हाडलो. एका फातरार तो दवरून दुसऱ्या एका फातरान बरो धोडायलो आनी सियाच्या पांयार थापलो. तांकां कुरवेन ताणी कितें कितें सांगलें. पूण हांकां तुमी हांगाच रावात आमी रोखडेच येतात. म्हळां तितलोच अर्थ कळ्ळो.

कोण तरी मनीस मेळ्ळे, खंयचो तरी एक गांव मेळटलो, रोखडेंच घरा वचूंक मेळटलें हाची तांकां खोस जाल्ली. पूण सियाची परिस्थिती पळोवन तीं बेजार जाल्लीं. जोर चडत रावल्यार कितें करप होच प्रस्न तांकां सतयतालो. परत परत तीं सियाक हात लावन पळयतालीं.

सियाचें आंग चड चड हून जायत आसलें. इतल्यांत मिनलाक येवजलें. 'चड जोर आयल्यार मम्मा उदकाची घडी घालता.' ताणे



रोखडेंच तांकां म्हळें, ''आमी सियाक उदकाची घडी घालया ! म्हजो नॅपकीन आसा तोच ओलो करून तकलेर दवरया.'' सगळ्यांक ताचो विचार पटलो.

वोकड्यांच्या वोवाळांत तीं न्हंयेपसून मातशीं पयस पाविल्लीं. ताणी पिवपाक हाडिल्ल्या उदकान पयलीं नॅपकीन भिजयलो. सगळ्यो रिकाम्यो बाटलो घेवन चवगय चले न्हंयचेर गेले.

हेवटेन मिनलान आनी रिटान त्या ओल्या नॅपकिनाचें एक पोंत सियाचे तकलेर दवरलें. तें मातशें सुकतकच दुसरें पोंत दवरलें. इतलेसर चले उदक घेवन आयले. रिटा आनी मिनल एक सारकीं सियाचे तकलेर घडयो वदलतालीं.

वार्कीचे राखण्यांची वाट पळयताले. - रात जावचे पयलीं आयल्यार पुरो हे राखणे. आज आनी जोराच्या सियाक घेवन रानांत रावपाचें ना. राजान म्हळें. सगळ्यांक मनातल्यान तशेंच दिसतालें. परेशान म्हळें, - आज तरी फाट तेकोवन हुस्क्या मेकळें न्हिदपाक मेळ्यार पुरो.

राखण्यान लायिल्ल्या वखदान सियाच्या पांयाची सूज वरीच देंविल्ली. आतां ताचो जोरय देंवलो. आंग मातशें घुसघुशीत आसलें. सगळ्यांक खोस जाली. ''सिया, कशें दिसता आतां? जोर देंवलो तुजो.'' परेशान ताचे तकलेक हात लावन पळोवन विचारलें. ''तकली जड आसा. पूण हरशीं वरें दिसता, ओह.. म्हजो पांय... ''कितें जालें?'' सगळ्यांनी भिवन विचारलें. सियान हांसून म्हळें, ''ना, भिवंनाकात. पांय तितलो दुखना आतां. सूजय देंवली न्हय.''

- बरें वखत लायलें ताणे, कसल्या झाडाचीं पाना काय तीं. आमी आमच्याय पांयांक लायल्यार जातालीं.

- हांवें पळयलां तें झाड. हांव हाडूं पानां. गजान म्हळें. - नाका रे बाबा, आतां आमी कशीं लायतलीं. ते आमकां व्हरूंक येतले तांच्या गांवात. मिनलान म्हळें.

- आरे हाड तूं पानां. आमी तांच्या गांवात पावतच लावया पांयांक. तांचेकडेन फातरबीन आसतलो. तिचेर धोडावन लावंक मेळटलीं. मारिओन सांगलें.

- हें रान खरेंच अजापाचें. हांगा रावतल्याक पोटाकय दितलें आनी वखदय दितलें. जनावरांवांगडा रावंक मात समजूं जाय. परेशान म्हळें.

म्हूण तर पयलीं रुशी बी रानांत बरेभशेन रावताले. मिनलान सांगलें.

राजान वचून त्या झाडाचीं पानां तोडून हाडलीं आनी आपल्या बॅगांत घालीं. इतलेसर सांज जावपाक आयली. पूण राखण्यांचो पत्तो नासलो. उमेदीन फुलिल्ल्या भुरग्यांचीं तोंडां बावलीं.

- ताणी कुडू कुडू कोरून आपले भाशेंत कितें सांगलें काय? येना बी म्हणिल्लें रिटान रडकुऱ्या सुरान म्हळें, - आमी तांच्या बरोबरच वचूं जाय आसलें. परेश फडफडलो.

- आरे सियाच्यान चलपाक जातालें? ताका कशे व्हरतलीं आसलीं. सियान बोट करून कितें हाडटां म्हणपाची खूण केल्ली.

बेठेंच आसचें ना. पूण येन्नादर येवं जाय आसले ते. जॅकीन दुबाव उगतायलो.

मिनलाक व्हदोळच्यान एक प्रस्न सतयतालो आनी मनांतल्यान भंय दिसतालो. ताणे भीत भीत म्हळें, - हांसनाकात हां. एक विचारतां.

- विचार मगो. हांसपा आसल्यार हांसतलीं आमी.

- हे आमचे भशेनच मनीस मूं? काय आदिवासी बी?

- हें कितें उलयता गो, आमच्या भाशेन दिसता ते. बोकड्यो राखपाक आयिल्ले रानांत.

- मारिओ, पिशांभशेन कितें उलयता? आदिवासी म्हळ्यार आमचे भशेनच आसतले न्हय. तांकां शिंगां, शेपड्यो आसतल्यो समजलां तूं? राजान हांसून मारिओचीं फकाणां केलीं. आरे हांवें पुस्तकांनी वाचलां. रानांत आदिवासी आसतात ते मनशांक मारून खातात. गळ्यांत मणयांच्यो, हाडांच्यो आनी फुलांच्यो माळो घालतात. तकलेकय फुलांचे मुकूट बी घालतात. पूण हाणी तशें कांयच घालुंना. मिनलान पुस्तकांतल्यो गजाली सांगल्यो.

म्हाका दिसता ते दिसाचे मुद्दम येवंनात. रातचेवी येवन आमकां मारपाचो विचार ना मरे तांचो. परेशान आपल्या मनातलो भंय उगतायलो.

"ए, तुमी पिशार पोडल्यात. कितें कितें वायट चितीत रावतात. रात जायत आयली पोय. तांची आस सोडया. सांजेर रावपा झाड

सोदया. जॅकीन उठत म्हळें.

- आरे, तुमी सियाचें चितलां. तें जोराचें. ताच्यान रातभर झाडार बसूं जातलें? रिटान म्हळें.

- धोल आशिल्लें झाड मेळ्ळयार पुरो. नाच जाल्यार कालचे भशेन तळपां तरी. हे थंय दोंगुल्ली आसा, चल थोंयच या. मारिओ आनी राजा जागो सोदूंक गेले.

जॅकी, तुका कितें दिसता? ते आमचेवरीच मरे काय आदिवासी बी? परेशान हळूच जॅकीच्या कानांत विचारलें, तशें ते आसल्यार भिरांत आमकां. ते कितें उलयता तें आमकां कांय कळनासलें. पूण तेंगेली भाकरी बोरी लागली.'' जॅकीन रूच काडून म्हळें.

- राव, वाट पळय, आनी भाकरी घेवन येतले ते रातचे. आनी तुका घेवन वतले.'' परेशान ताचीं फकाणा केलीं.

पूण मनातल्यान सगळीं भियेल्लीं. सगळयांच्या मनात नाका आशिल्ले प्रस्न घोळटाले...'हे राखणे आमकां घेवन गांवात कित्याक गेले ना काय?... तांची भाशा कसली?.. आमकां तातुंतलें एक एकच उतर कळटा, सगळीं कशीं कळनात?.. खंय पावल्यांत आसतलीं आमी?.. तांचो गांव लागीं बी ना काय?.. खऱ्यानीच ते आदिवासी.. रातचे येवन आमकां..

अशे आडवे तिडवे प्रस्न तांच्या मनात घुंवताले. पूण कोण उलोवन दाखयनासले.

झाड सोदूंक गेल्ल्या राजा आनी मारिओक ते दोंगुल्लेच्या

मुळसांत एका व्हड झाडा पोंदा व्हडलीं दोन तळपां दिसलीं. एक तळप सकल आनी ताका तेकून दुसरें तळप मातशें वयर. दोनय तळपां मेळून सोफा कसो दिसतालो. न्हिदपाक जागो मेळटकच ताणीं खावंक फळां सोदलीं.

ते दोंगुल्लेचेर भिंड्डांचें झाड आसलें. तांवशीं गुलावीशीं रसरशीत भिंड्डां ताका लागिल्लीं. पूण सगळीं वयर. झाडार चडपाक सोपें न्हय. तातूंत तिनसांज जायत आयिल्ली. हातांतल्या दांड्यान ताणीं लागीं आशिल्लीं भिंड्डां वडोवन काडलीं. थोडीं रानकेळीं मेळ्ळीं. काण्णांचें झोपय आसलें. काण्णा, भिंडां आनी केळीं घेवन आयले.

सिया सकाळच्यान उपाशीं आसलें. आतां ताका जोर नासलो. पांयांचे सणसणय कमी जाल्ले. निकतीच ताका भुकेची जाणीव जाल्ली. पूण फळांक पळोवन ताका कडकडो भरलो. मात्सो लेगीत जोर आयल्यार मम्मी कशी पातयेनासली हें येवजून ताचे दोळे भरले. "हें नाका, तें नाका, करून मम्मीक कितलें सतयतालें हांव, हांगा आज इल्लो चा लेगीत मेळ्ळयार कोता येतालो. पूण तोय ना. very sorry मम्मी, very sorry " मिनलान आनी रिटान ताका दिस्त पळयलें. तीं दोगांय ताचेम्हऱ्यांत धांवलीं. मिनलान ताका वेंगेत घेवन पोशेत म्हळें, "सिया, भूक लागल्या मगो? आनी ह्या फळांक पळयल्यार वीट येता."

- सिया. हीं दोन काण्णा तोंडांत उडय. आंबूस गोड काण्णानी तुजे जिबेक रूच येतली. उपाशीं म्हणून कितलो वेळ रावतलें? मागीर हीं केळीं खा." रिटान ताका समजायलें.

भुकेक आनी कांयच उपाय नासलो. सियान ताची सांगणी आयकली. सगळ्यांनीच फळां खालीं, उदक पियेले आनी ते दोंगुल्लेम्हऱ्यांत गेले. सियाक मिनलान आनी ग्टिान धरून हळू हळू करून हाडलें. तळप मातशें वयर आसलें. जॅकी मारिओ आनी राजान सियाक उखलून वयर वसयलें. मिनलाक आनी ग्टिाकय हात दिवन वयर वसयलीं. चवगय चले झाडाच्या खांद्यार वसले.

- आज धुवरी घालप ना हां, आमी धुंवरी घाल्यार ते गर्ताकडेन आयल्यार आमी खंय आसात तें तांका समजतलें.

खरें हां मारिओ, ते खरे कोण कितें आमकां कांयच खबर ना. आमची भास पयलीं तांकां कळना, तांची आमकां कळ्ळी ना. ओगीच रिस्क नाका. राजान म्हळें.

- पूण राजा, हांगा जनावरां वीन आयल्यार? रिटान हुस्क्यान विचारलें.

- हो दाणो आपटींत रावप हरशीं जाल्यार न्हीद सारकी लागना. तातूंत आज हुस्को आसा तांचो.''

- ए, तांचो गांव घडये पयस आसुंये. येतासर तांकां वेळ जायत. तुमी तांचेविशीं वायटच कित्याक चिंततात? म्हजो पांय ताणी बरो केलो.'' इतलो वेळ सिया कांयच उलोवंक नासलें. पूण हांची उलोवणी आयकून ताच्यान वोगी रावंक जालेंना.

- खरें तुजें सिया. ताणी आमकां भाकरी दिली आनी कुरवेन येतां म्हळां. पळोवया कितें जाता तें. आतां हो सब्जेक्ट बंद हां. वोग्गी

सया आतां.'' परेशान म्हळें. कितलो वेळ तीं अशीं वोंग्गी आशिल्लीं ोणाक खबर नासली. घड्याळ पळोवंक आज उजोय नासलो. तल्यान परेशाक पयसुल्ल्यान उजो हालता सो दिसलो. ताणे भंयान डडकडत म्हळें, ''ए, हे थंय पळयात उजो दिसता, लिपता. सगळयांनी भवून ते वटेन पळयलें. ''आरे, दोन चार चुडी घेवन कोणतरी यतात. कोण काय?'' मारिओन म्हळें.

- व्हदोळचे राखणे बी न्हय मू? आपल्या घरच्यांक घेवन आमकां सोदूंक बी येनात मूं ते? राजान म्हळें, ''इतले रातचेशे आयले ते, वोदोळच्यान येवपा न्हय?'' रिटान भिये भियेत म्हळें.

- आगो, तांचें घर पयस आसूं जाय. हांगा परत येतासर वेळ जाला आसतलो. तांचेकडेन कितें नामो आसा आमचो. अदमासान सोदतात आसतले ते आमकां. राजान म्हळें.

- कितेंय आसूं आतां आमी बसुया. रातचें तांचे वरोबर कशेंच वचप ना. मिनलान सांगलें.

- हय, वोग्गी बसून पयलीं पोळोवया ते कोण ते. घडये ते रानांत आयिल्ले हरशिल्ले लोक आसत. जॅकीन सगळयांक वोगी केलीं.

आतां तीं त्या चुडींक पळयतालीं. चूड घेतिल्ल्यो सावळयो हेवटेन तेवटेन सोदत सोदत मुखार सरताल्यो. बऱ्या वेळान तांचेपरस मातशे पयसच कशे ते थांबले. ते व्हडाव्हडान कितें तरी उलयताले. तांच्या उलोवपांत परत परत 'चेरडुवां, चेडूडे' अशीं उतरां येतालीं. ते

राखणे थंयच वोट दाखोवन कितें तरी दाखयताले. "ए आमी व्हदोळ वशिल्लोच जागो दाखयतात ते" जॅकी फुतफुतलो.

ते सात आठ जाण आसले. रानाची संवकळ आशिल्लेवरी ते फिरताले. तांचेवांगडा व्हदोळचे वोकडे-राखणे आसले. निमणे ते थंयच वसपाची तयारी करूंक लागले. एक चूड ताणी एका फातरार दवरली. ताणी येतना खाटशी हाडिल्ली. थोडे तिचेर वसले. दोग जाणांनी पालो लाकडां हाडून उजो पेटयलो आनी ताचे भोंवतणी ते वसले. ते गजाली करीत वशिल्ले.

एके वटेन तांचो भंय आनी एकेवटेन धीरसो दिसतालो. 'ताणी येतना खाटशी हाडिल्ली, म्हण्टकीच ताणी घडये सियाक चलूंक येना म्हूण वी हाडल्या जातली. पळोवंक तरी हे वायट मनीस दिसनात.' अशे तरेतरेचे विचार तांच्या मनात घोळूंक लागले. "कितेंय जांव आतां रातचे तांकां जाग-माग दाखवप ना" अशें ताणी एकमेकाक फुतफुतून सांगलें.

रातभर कोणाकच सारकी न्हीद लागली ना. फांतोडेर तांकां मातशी झेम लागली.

सकाळीं शेवण्यांच्या म्होवाळ आवाजान तांकां जाग आयली. "हीं सुकणीं म्हूण आलार्मा भशेन उठयतात. आलार्म बंद करून न्हिदो मेळटा, हांकां कितें करप" अशें चिंतीत मारिओ उठून बसलो. उठले बरोबर ताणे ते वशिल्ले थंय पळयलें. ते अजूनय न्हिदिल्ले. मारिओक खोस जाली. तितले म्हणसर सगळ्यांक जाग आयिल्ली. मारिओन तांकां म्हळें, "आतां मात हांव तुमचें आयकुपा ना हां. हांव

तांचे फुड्यांत वतलोंच."

"ते पळय आमकां मेळिल्ले ते दोन राखणेय आसात तांचे बरोबर. ते शेर्त आमकांच सोदूंक आयल्यात. चल मारिओ, हांवय येतां तुजेवांगडा." राजान उमेदीन म्हळें आनी सोमतोच झाडावयल्यान सकल देंवलो. मारिओय देंवलो.

दोगय तांचे म्हऱ्यांत वचूं लागले. तेन्नाच ते जागे जाताले. तांतल्या एकट्यान मारिओक आनी राजाक येता तो पळयलो. ताणे हांसत हांसत व्हडान कितें तरी म्हळें. हांकां कांयच कळ्ळें ना तरी मारिओन खोशयेन तांकां विचारलें, "तुमी आमकां व्हरूंक आयल्यात?"

मारिओचें उलोवप तांकां कळ्ळें ना. ते एकामेकाक पळोवंक लागले. एकट्यान कुरवेन विचारलें 'आमची भास कळना?' राजानय कुरवेन सांगले 'ना' म्हूण. राजान आनी मारिओन कुरवांनीच तीं थंय कशीं पावलीं तें सांगपाचो यत्न केलो.

पूण राजा आनी मारिओच्या कुरवांचो अर्थ हांकां व्हडलोसो कळ्ळो ना. फकत हीं भुरगीं वाट चुकल्यांत म्हणपाचें कळ्ळें. कालच्या एका राखण्यान बाकीचीं भुरगीं खंय तें विचारलें. राजान दोंगुल्लेकडेन बोट दाखयलें.

सगळे जाण सुमाची खाट घेवन दोंगुल्लेकडेन गेले. तांकां हांसत हांसत कुरवानी उलयत येतात ते पळोवन भुरग्यांचो भंय गेलो. तळपावेल्यान ताणी सियाक काडून खाटीर बसयलें. बाकीच्यांचीं बॅगांय खाटीर दवरलीं. चार जाणानी ती खाट उखल्ली आनी गांवांत

या म्हूण तांकां कुरू केली.

तांच्या वांगडा वतना ते कुरवांनी एकामेकाकडेन उलोवपाचो यत्न करताले. कोण कितें म्हणटा ताचो सारको अर्थ तांकां कोणाकच लागनासलो. पूण 'आमी मनशांत पावले, आमच्या घरा वचूंक मेळटलें हाचीच तांकां खोस जाल्ली.

मिनलान हळूच रिटाच्या कानांत सांगलें, ''रिटा, इतले दीस आमी रानवटी मनशां आसलीं, आतां मोनी आनी भेरीं जालीं.''

- आनी कसले रोल आमकां करुंक पोडटात पोळोवया. रिटान हांसून जाप दिली.

बरो वेळ चलतकच तांका एक व्हाळ मेळ्ळो. थंय ताणी खाट दवरली आनी तोंड धुवन उदक पियेवया म्हणून कुरू केली. सकाळचीं



कामां ताणी करुं नासली. सगळ्यांनी सकाळचीं कामां केलीं. तोंड धुलें. उदक पियेलीं. सियाक ताणी खाटीवयलें ल्हवू देंवोवन ताका तोंड धुवंक लायलें. इतल्यांत एक गांवकार हळडुवींच फळां घेवन आयलो. पेराभशेन दिसपी पूण पिठूळ आनी गोड वासाचीं तीं फळां ताणी खालीं. सियानय पोटाभुकेक एक फळ खालें.

व्हाळाच्या धोंपरभर उदकांतल्यान ते पलतडींन गेले. आनी मुखावेले वाटेक लागले. आज तांकां सावदांचो जिवण्यांचो भंय दिसनासलो. ते हुस्क्या मेकळे जावन तांच्या फाटल्यान चलताले. रान तोखेताले. सुकण्या सावदांची मजा पळयताले. माकडांक चाळयताले. मर्दीं जिवाणीं आयलीं जाल्यार गांवकार तांकां वडयेन पयस उडयताले. राखणे उमेदीन वाटेर मेळपी फळां तांकां खावंक दिताले. इतले दीस कसलेंय नवें फळ खातना तांकां हुस्को दिसतालो. आज मात ते घोस्तान खाताले. राखणे पानांची पिपाणी करून वाजयत वताले. ह्या चल्यांकय ताणी पिपाण्यो करून दिल्यो पूऽ पूऽ करून वाजयतना तांका मज्जा आयली. मर्दीं मर्दीं तांकां सुकणींय साथ दितालीं.

थोडी वाट चलतकीर एक दोंगुल्ली मेळ्ळी. हांचे पांय पयलींच दुखताले. तातूंत गांवांत वचपाचे उमळशिकेन तीं वाट चलतालीं. पूण 'आतां दोंगुल्ली चडप?' ताणी कुरू केली पांय दुखतात म्हूण. आनी कांय उपाय नासलो. ताणी कुरवेन सांगलें फातरांर बसत बसत ल्हवू ल्हवू या म्हूण. हातांतल्या दांड्यार पेज घालून कशें चडप तें ताणी दाखयलें.

दांड्यार भार घालून ल्हवू ल्हवू सगळीं दोंगुल्ली चडपाक लागलीं.

दोंगुल्लेर वचत थंय तळपां आशिल्ल्यांन मर्दीं मर्दी तीं वसत सुशेग घेत वयर चडटार्लीं. चडून पयर्लीच पुरो जाल्लें. तातूंत वोतान तांच्या आंगांतल्यान घाम रकतालो. मर्दीं मर्दीं माड आसले. एका गांवकारान तांका बसपाची कुरू केली आनी तो सुरसुरीत माडार चडलो. ताच्या कमराच्या चांदिच्या काणाक ल्हान कोयतूल आसलें. ताणे कच कच करून घाय घालून आडसराच्यो दोन पेंडी उडयल्यो. भुरग्यांनी सगळीं आडसरां पुंजावन हाडलीं. एका गांवकारान आपलें कोयतूल काडून आडसराक तवली मारली. आनी एकेकट्याक आडसर पिवंक दिलें. रिकामें आडसर मर्दीं फोडून सोडणाचें कुलेर कशें करून ती मोव मोव कातली खावंक दिली. खूब दिसांनी दुसरें खावंक खाल्ल्यान तांकां उमेद जाली. सियान तर घोस्तान कातली खाली.

दोंगुल्ली देंवन दुसरेवटेन वतकच तांकां पयसुल्ल्यान गांव दिश्टी पडलो. त्याच गांवांत वचपाचें म्हूण कळटकच तांकां उमेद जाली. उमेदी भरशीं पांयाची दूख विसरून तीं चलपाक लागलीं.

ल्हान ल्हान खोर्पीचो तो ल्हानसोच वाडो कसो गांव आसलो. थंय मातयेचीं व्हडशीं सात-आठ घरां आसलीं. दरेका खोपीमुखार, घरा मुखार ल्हानशेंच शेणान सारयल्लें आंगण आसलें. फाटल्यान पोरसूं. गावांतलीं सगळीं मनशां आपल्या आंगणांत रावन हांसत्या तोंडान तांकां पळयतालीं. ह्या भुरग्यांनीय तांकां हासून हडकिलीं. तांकां सगळेंच अप्रूपशें दिसतालें.

थंयच्यो बायलो साडयो वेगळेच तरेन न्हेशिल्ल्यो. ताणी पदर घेवं नासलो. एका भुजार साडयेचीं दोनय पोतां हाडून गांठ मारिल्ली.

मारिओन तांकां हळूच सांगलें, 'ह्या न्हेसपांक देंठली म्हणटात.' गळ्यांत ताणी पिड्डुकांच्यो खूब माळो घाल्ल्यो. केंसांत फुलां माळिल्लीं. हातभर काचेचीं आनी धवशींशीं कांकणां घाल्लीं. सगळे दादले काश्टी मारून न्हेशिल्ले. खांदार एक तांवसो कुडको आसलो. तांकां व्हरूंक आयिल्ले ते दादले त्या कुडक्याचो उपेग केन्ना लेंस म्हूण हात तोंड पुसपाक करतालें जाल्यार केन्ना वोताक माथ्याक वांदताले.

एका मातयेच्या घरामुखार सारयल्ल्या आंगणांत सियाली खाट ताणीं दवरली. सिया उठून बसलें. तेच खाटेर ताणी मिनलाक आनीं रिटाक वसूंक सांगलें. आंगणाक भोंवतणी वरी रुंद कड आसली. ती मेर शेणान सारयल्ली. तिचेर चल्यांक वसूंक सांगलें आनी तेय बसले.

ल्हवू ल्हवू वाकिचेय गांवकार आंगणात आयले. ह्या भुरग्यांक हाडपी गांवकारानी कालच्यान घडिल्ली सगळी खबर तांकां सांगली. आमची भास तांकां कळना म्हणपाचेंय सांगलें.

ते उलयताले तातूंत जायतीं उतरां कोंकणी आसलीं. ताकालागून ह्या भुरग्यांक तांच्या उलोवपाचो संदर्भ कळ्ळो. पूण हांची भास मात तांकां मातय समजनासली. कांय उतरां कळटालीं तितलींच.

आंगणा भायर आशिल्ल्या पोरसांत केळीमुळांत झाडां आनी चुडटां लावन आडस केल्लो. थंयच एक रांदीर पितुळचें भांण आसलें आनी पितुळचोच तामयो. थंय वचून एके जाणटे वायलेन हातपांय धुवपाक लायले. पुसूंक एक तांवडोच वाल्याभशेन निवळ कुडको दिलो. तोंडार पचपचीत उदक मारतना तांकां न्हायन कशें दिसतालें.

पूण तांकां तितली शक्त नासली.

केळीच्या पानार तांकां तांवड्या तांदळांचें शीत वाडिल्लें. ताचेर कसले तरी कालवण घाल्लें, तातूंत घोसाळयाच्यो फोडी आसल्यो. तोंडाक लावंक दोणातली आमले शीर आनी केळयाची भाजी आसली. कितल्या दिसांनी शीत रोस पळोवन तांची भूक चाळवली. रोस खूब तीख आसलो. पूण सू ऽ सा ऽ करीत उदक पियेत तीं जेवलीं. सियान मात रोसा शीत कडेक दवरून भाज्येंन शीत कालोवन जेवलें. हरशी तीं घोसाळया फोडी खायना, केळया भाजी नाका अश्यो तांच्यो खोडी. पूण आज तीं मुकाट्यानी आनी घोस्तान जेवलीं. रानातल्या फळांपरस हें जेवण तांकां अप्रूप लागलें.

भितरल्या सालांत चलयांक हातरी घालून दिली. चल्यांक वारांदाचेर हातरी घालून दिली. उशें नासलें, हातरुणाक कांय नासलें. पांगरूंक मात पातळसो कुडको दिल्लो. पूण रानांत झाडार, घोलींत, तळपार राती ताणी अर्द न्हिदून, अर्द जागून काडिल्ल्यो. ताचे परस तांकां ही हातरी कितलीच बरी दिसली.

खूब दिसांनी घरांत जमनीर फाट तेकोवन तीं हुस्क्या मेकळीं जावन न्हिदलीं.

सकाळीं वऱ्याच उसरां तांकां जाग आयली. एके बायलेन दिल्ले आंब्या पान घेवन ताणी दांत घांसले. घरांत दादले नासले. ते राखणे भुरगेय नासले. फकत बायलो आनी भुरगीं आसलीं. तोंड धुवन तीं वारांदार बसलीं. दोगा बायलांनी मातयेच्या वाटलेंत घालून तांकां कितें तरी गरम गरम खावपाक दिलें. आनी कुरवेन सांगलें 'ती

आंर्वील पियात.'

मारिओक कळ्ळें, ती आंर्वील म्हूण. ताणे सगळ्यांक सांगलें. ''हें गोव्या तिजनावरी लागता. पियेवन पळयात.''

- म्हळयार नाशण्याचें सत्व रे. परेशान विचारलें.

- हय, पियात तें. अशें म्हणत मारिओन आंर्वीला वाटली तोंडाक लायली. राजा, जॅकी आनी परेशान एक एक घोंट मारलो. तांकां ती वरी लागली. चलयो कपलार आठयो घालून तांकां पळयत बशिल्ल्यो. तांकां ती पियेवर्चोशी दिसनासली. मातयेची वाटली पळोवन पयलीं तांकां वीट आयिल्लो. त्यो वायलो दारांत रावन तांकां पळयताल्यो. चले कुटूकुटू करून आंर्वील पियेले. पूण चलयो पियनात तें पळोवन एक जाण्टेली , तिका सगळीं आजी म्हणटालीं, मुखार आयली आनी तांकां पियात म्हूण खूण केली. तें पळोवन मारिओन म्हळें, ''आगो, चड नखरे करनाकात. रानात इतले दीस आमी कसलीं कसलीं फळां खावन रावलीं. तांचेपरस ही आंर्वील जायती वरी लागता.''

मारिओच्या धपकावणेन मिनलान आनी रिटान एक एक घोंट घेतलो. तांकां ती आवडली. ताणी रोखडीच वाटली रिकामी केली. सियाक मात एक घोंट घेतनाच ओक्क जालें. ताणी वेगी वेगीन वाटली सकल दवरली. तें पळोवन आज्येन दुदाची वाटी हाडून दिली. दूद तोंडाकडेन व्हरतनाच सियाक त्या दुदाचो खर वास आयलो. सिया कडकडलें. तें बोकडेचें दूद आसलें. ताची अवस्था जाण्टेलेन पळयली. दुसरे वाटयेंत घालून तिणे उदक हाडलें. तें पातळ करून तिणे सियाक दिलें. सिया इल्लें इल्लें करून एक वाटी दूद पियेलें.

चवगूय चले आज्येक कुरवेन सांगून भायर पासय मारूंक गेले. चलयांनी केंस वळयले. आतां तांकां मनापसून न्हायन दिसतालें. पूण कपडे कितें करतलीं?

- तांचेवरी साडयेचो कुडको गुठलावन गवया? मिनलाच्या विचारांचेर तिगांय  हांसपाक लागलीं. तितल्यांत दोग-तीग जाण वायलो तांचे म्हन्यांत आयल्यो. आडसाट्यो चलयांय आयिल्ल्यो. तांच्या गणवेसाक हात लावन पळयताल्यो. तांचें उलोवणं कळिल्लेवरी. एके वायलेन तांकां न्हावपाक आपयलीं. मिनलान कपडे ना म्हणपाची कुरु केली. तिणे भितल्ल्यान तांचेवरी तीन साडयो हाडल्यो आनी न्हेसयतां म्हणपाची कुरू केली.

तांच्या गांवांत नळ नासलो. मातशे पयस एकच वांय आसली. लोक मातयेच्या आनी आलिमेनाच्या कळसुल्यांनी उदक हाडटालीं. खोर्पीनी रावणारे लोक चडशे मातयेच्या बुडकुल्यानी उदक तापयताले. मातयेच्या घरांनी रावपी लोक मात तांब्या पितळेच्या भांणात उदक तापयतालीं. आज्येच्या सुनानी आंगणातल्या पोरसांत पितुळच्या भाणांत उदक तापयल्लें. त्या उगड्यावेल्या मान्यांत तांकां न्हावंक सांगलें. तांकां लज दिसली. आजेन मिनलाक घरांत आपोवन एक ल्हान कुडको गुठलावन न्हावंक धाडलें.

खूब दिसांनी तीं हून उदकान शाबू लावन न्हालीं. आज्येन तांकां त्यो साडयो न्हेसयल्यो. तीं तिगांय एकामेकाक पळोवन बरीं हांसलीं. आज्येच्या सुनांनी तांचे कपडे उमळून घाले. रान माड्डोवन तांचे बूट पिनिल्ले. तेय ताणी धुवन घाले.

तितले म्हणसर चवगीय चले गांवांत पासय मारून आयले. हांकां पळोवन ते पोट धरून धरून हांसपाक लागले. तांकांय न्हावपाक जाय आसलें. पूण तांचेवरी काश्टी मारपाक लायतले म्हूण तांकां लज दिसताली. तांचो हेतू कळिल्लेवरी आजेन तांकां कमराक बांदपाक दोर दिलो आनी एक ल्हान कुडको काश्टी मारूंक दिलो आनी एक व्हड कुडको दिवन तो लुंगेभशेन कमराक गुठलावंक सांगलो. तिच्यो कुरवो चल्यांक कळ्ळयो. आज्येन कळसुली, राजू आनी शावू घेवन बांयचेर व्हेले.

सिया ल्हवू ल्हवू निवळटालें. ताच्या पांयाची सूज बरीच कमी जाल्ली. आतां तांकां घरा वचपाचे वेध लागिल्ले. चले पासयेच्या निमतान गांव पळोवंक गेल्ले.

तो ल्हानसोच गांव आसलो. तीं राविल्लीं तें गांवच्या मुखेल्याचें घर. तातूंत तांचे चार भाव, तांचीं बायल भुरगीं आनी जाण्टी आवय रावताली. त्या गांवांत मातयेच्या घरांत रावपीच लोक मातशे गिरेस्त आशिल्ले. तेच गांवचो कारभार पळयताले. कामापासत ते कारवार, माजाळी, गोंय अश्या वाठारांनी वताले. अशे भायर भितर फिरिल्ल्यान तांकां सगळ्यो वाटो खबर आसल्यो. हांगच्यो थंयच्यो नवीदादी, अजापां तेच येवन गांवांत सांगताले. ताकालागून भायल्या सुदारिल्ल्या गांवांतल्यो गजाली तांकां अद्भूत कथा कश्यो दिसताल्यो.

ह्या गांवांत बाजार म्हूण नासलोच. बाकीचे गांवय बरेच पयस आसले. दोन दोंगुल्ल्यो, एक गांव, व्हाळ हुपून वतकच तालुक्याचो गांव येतालो. थंय आठवड्यातल्यान एक फावट बाजार भरतालो.

थंयच वचून तीं गरजेक कितें जाय तें सामान हाडटालीं. कपडे, कसल्योय वस्तू आनी कितेंय चड जाय जाल्यार गांवचे मुखेली आनी चार जाण मेळून माजाळी गांवांत वताले आनी सामान हाडून जाचें ताका दिताले. त्या गांवात एका मुखेल्याकडेन बैलगाडी आसली. तातूंतच बसून ते माजाळेमेरेन वचून सामान हाडटाले.

तांच्या गांवांत शाळा, दोतोर नासलो. तालुक्याच्या गांवांत एक मुळावी शाळा आसली. मुखेल्याचीं चौगजाण भुरगीं हालींच थंय आपल्या सोयऱ्यांगेर रावन मुळावें शिकप घेतालीं. त्या गांवात एक वैज आसलो. तो वखदांपरस घाडयेपण चड करतालो. कोणय बरो ना म्हूण ताचेम्हऱ्यांत गेल्यार ताका तपासून वखत दिवचे परस, पेडार नाल्ल फोडप, दिश्ट काडप, भूत बादा आसा म्हूण झाडो घालप, आंगारे दिवप असले उपाय तो चड करतालो. केन्नाय विभुतीच्यो पुडयो बांदून दितालो, केन्नाय पाळां झरोवन दितालो. तशीं झाडा-पाल्याचीं वखतां गांवच्या जायत्या जाणांक खबर आसली.

तालुक्याच्या गांवांत एक दोतोर आसलो. कोणय चडच बरो नासत जाल्यार बैलगाडयेंत बसोवन ताका थंय व्हरतालीं.

थंयचें दादले चडशे शेतांत काम करताले आनी बोकड्यो पोसताले. बायलो घराच्या आशी कुशीक भाजीपालो रोयताल्यो. आमच्या सातय इश्टांक गांव मोठो अप्रुपांचो दिसलो. असो गांव, ताणी केन्नाच पळोंव नासलो. दनपारचे दादले जेवंक येतकच मारिओन तांकां घरा वचपापासत वाट विचारली. पूण तांकां कोणाकच तालुक्या भायर खंयच वचपाक कळनासलें. ताणी मुखेली येतकच बैलगाडयेन

तांकां व्हरून पावयतलो म्हूण सांगलें.

थंय एकट्यागेरच दोन गायो आसल्यो, बाकी सगळ्यांगेर बोकड्यो. ताकालागून तीं बोकडेचेंच दूद वापरतालीं. मुखेल्यांच्या घरांनी सांजवेळची फुटी तांबडी चा करून पियेतालीं. कितेंय आसल्यार बोकडे-दुदाचो चा करतालीं.

त्या दीस सांजवेळचो आमच्या इश्टांक पितळेच्या वाडग्यांत घालून फुटी चा दिलो. खूब दिसांनी तांकां चा मेळिल्लो. मिनल, सिया, परेश चा केन्नाच पिये नासलीं. तीं वोर्नव्हिटा घाल्लें दूद पियेताली. पूण बोकडे दूद निखटेंच पिवचेपरस ताणी मुकाट्यानी फुटे च्याचो वाडगो घेतलो.

च्या पियेवन जातकच चलयो तांकां घेवन आंगणात वसल्यो ताणी तांकां फातर जिखपाचो खेळ, तावलांचो खेळ शिकयलो. चले मात पिंपळा मुळांत गांवचे चले गड्ड्यानी खेळटाले थंय गेले.

आज चवगय चले बोकड्यो राखण्यांवांगडा मळार गेले. ते राखणे चडशे बोकड्यो मळार चरयतात. पूण केन्ना केन्नाय रानांत व्हरतात. आज मारिओन कुरवांनी तांकां रानांत या म्हणून सांगलें. इतले दीस ते रानांत राविल्ले. पूण ताणी रानाचो भंय घेतिल्लो. एकदाचें रान सोपून मनशांत पावल्यार पुरो, घरच्या लोकांमदीं वचूं मेळयार पुरो अशें तांकां जाल्लें. ताका लागून तांकां रान तोखेवंक मेळूं नासलें. मारिओची रानाची आवड मातय कमी जावं नासली.

गजा, रामा, शंभो, कुशी आनी मानू हाणी खांशयेन तांकां

रानांत व्हेले. आतां तांच्या उलोवण्याचो मात्सो मात्सो अर्थ तांकां कळूंक लागिल्लो. कांय उतरां कोकणी कांय तांची घालून ते खबर करताले.

आज ताणी रानांत हुस्क्या मेकळी मजा केली. ताणी दिल्लीं फळां खालीं. कोंयडे-बाल जगान येतना हाडिल्ले. मारिओ, गजा परेश आनी जॅकीक हो खेळ नवो. ताणी हांकां शिकयले. ते घोस्तान खेळ्ळे. उपरांत व्हाळार धोंपरभर उदकांत बुचकळ्ळे. ताणी नासण्याची भाकरी आनी हरवी मिरसांग हाडिल्ली. हाणी फकत भाकरी खाली.

सिया, मिनल रिटा जेवतकच नव्या इश्टीणीवांगडा गजालीं करूंक बशिल्लीं. इतल्यांत त्या घरांतल्यो दोन सुनो आनी आजी व्हडाव्हडान उलोवपाक लागलीं. आनीक दोग जाणी आयल्यो. तीं थोडोवेळ उलयलीं आनी आजी तांचेवांगडा भायर सरली. हांकां कांयच कळ्ळें ना.

तेन्नाच दोन चलयो थंय आयल्यो आनी ताणी कितें घडलां तें सांगलें. हांकां इतलेंच समजलें, फाटले दोन दीस शंकर नांवाचो एक दादलो बरो नासलो. ताका जोर येतालो, पंदरा दीस पयलींच ताका असोच जोर आयिल्लो. चार दिसांनी गेल्लो. आतां परतय जोर आयिल्लो. तांकां तांच्या देवान सांगिल्लें ताचेर भूत बसलां. आज रातचो ताचेर झाडो घालपाचे आसले.

तांच्या गांवांत देवूळ नासलें. पिंपळाच्या पारार एक घुमटी आसली. थंयच तांचें देवस्पण चलतालें. थंयच निवळ करपाक आजी आनी गांवच्यो हेर बायलो गेल्ल्यो.

रातचे सगळे पेडार जमले. जो बरो नासलो ताका न्हाणोवन हाडून त्या पाटार बसयलो. ताका कुडकुडो खातालो. तो सगळोच कडकडटालो. लोक समजल्ले ताका झाडो घालूंक देवामुखार हाडला म्हूण भितल्लें भूत भियेवन थरथरता. पूण मारिओ आनी राजाक कळ्ळें, शीं खावन तो कडकडटा. ताणी सांगपाचो यत्न केलो. पूण कोणच आयकून घेवंक तयार नासले. ताणी एकट्याच्या खांदावयलो वालो काडून ताचेर घालपाचो यत्न केलो. पूण ताणी घालपाक दिलो ना.

झाडो घालपी तो वैज न्हावन मंत्र म्हणत येवन शंकरा मुखावयल्या पाटार बसलो. ताणे दिवलेच्या उजवाडांत देवस्पण करूंक सुरवात केली. पयली घुमटेंतल्या देवाची पुजा केली मागीर शंकराचेरय तांदूळ फाफुडले. दोग जाण थांवनांसतना झांन आनी घांट वाजयताले.

तितले म्हणसर शंकर कुडकुडून जाम जाल्लो. ताचो तोल वचूंक लागलो. तेन्नाच तो वैज मोराच्या पाखांचो चुडो कसो शंकरा भोंवतणी फिरोवंक लागलो. मर्दां मर्दां तापयल्लेवरी वडवडटालो. मर्दांच चल, चल, म्हणपाची कृती करून तोंडान कितें तरी म्हणटालो. वैजालें देवस्पण जातासर शंकर घुंवळून पडलो. ते बरोबर 'भूत पळ्ळें, भूत पळ्ळें' म्हणून सगळ्यांनी बोवाळ घालो. वैजान झाडो घालपाचें थांबयलें. तांवयांतले उदक ताचेर फाफुडलें. पूण ताणे कांयच हालचाल केली ना. ते बरोबर वैजान सगळ्यांक घरा वचूंक सांगलें.

ताच्या घरांतलीं मनशां व्हडाव्हडान रडूं लागली. थोड्यो बायलोय

रडूं लागल्यो. हीं सातय जाणां काचाबूल जालीं. कोणतरी तांकां सांगलें, ''भुतान वतना ताकाय व्हेलोसो दिसता. आतां ताका हांगाच सोडून आमी घरा वतलीं. देवाची कृपा जाल्यार तो फाल्यां सकाळीं वरो जावन घरा येतलो. ना जाल्यार तो मेलो.''

सगळो लोक परतूक लागलो. पूण मारिओच्या पंगडाक गग आयलो. मारिओन म्हळें, 'पाडपडूं ह्या लोकांचें. त्या मनशाक घडयं जोर तकलेक मारून ता बेसूध पडला जातलो. आनी हीं समजतात ताका भुतान व्हेलो म्हूण.''

- हय मारिओ, चल आमी पळोवया ताका कितें जालां तें. राजान म्हळें.

- ए, तुमी आनी वचुंनाकात आं थंय. मिनलान म्हळें.

- म्हणजे गो तूंय समजता भुतान ताका व्हेलो म्हूण. परेशान रागानच विचारलें.

- ना, ना, पूण हे अनाडी लोक, ताका कितेंय जाल्यार ते तुमीच मारलो म्हणटले.

हीं फाटल्यान रावन कितें उलयतात तें पळोवंक गजा, आनी रामा आयले. तेन्नाच मारिओन वचून ताका हात लावन पळयलो. जोरान ताचे आंग भाजतालें. राजान आनी मारिओन ताका उदकान पुसून काडचो थारायलो. पूण गजा आनी रामा तांकां आडायताले. अशें देवस्पण करून जातकच ताका कोणेच आफडप ना अशी तांची रीत आसली.

शंकर आतां जोरान बडबडटालो. रामान म्हळें, ''ताच्यांतलें भूत उलयता.''

जॅकीन आनी परेशान तांकां सांगलें,'' भिवनाकात ताका आमी बरो करतात.''

तांकां परेश आनी जॅकीचें उलोवकप कळळें ना. तांकांय देवस्पण कळटा. ते शंकराक बरो करतले' अशें दिसलें. मारिओन गजाच्या खांदावयलो तुवालो भिजोवन शंकराच्या कपलार घडी घाली. राजा आनी जॅकी रामाच्या खांदावयलो तुवालो काडून कळसुलेंतल्या उदकान तो भिजोवन पुसपाक लागले. पयलीं ओल्या तुवाल्यान ते पुसताले मागीर मोनुच्या खांदावयलो तुवालो घेवन सुक्या तुवाल्यान पुसू लागले. उदक कमी पडत म्हणून ताणीं मोनूक आनी कुशीक आनी उदक हाडपाक धाडले.

हे भुरगे रातचें उदक घेवन खंय वतात तें पळोवंक दोगजाण तांच्या फाटल्यान गेले. थंय राजा आनी ताचो पंगड करता तें पळोवन फाटल्या पांयानी वचून सगळ्या गांवकारांक आपयले. ते तापून तांच्या आंगार वचूंक वताले तेन्ना गजा, रामा, शंभो कुशी आनी मोनून तांकां आडायले. जाणटेल्यांकय दिसलें, 'हे शारांतले भुरगे, हांकां भूत काडपाचो नवो उपाय खबर आसतलो.

बरोच वेळ आंग पुसून काडिल्ल्यान शंकराचो जोर देंवलो. ताणे दोळे उगडले आनी उदक मागलें. तेन्नाच शंकराच्या घरांतलीं थंय पाविल्लीं. शंकरान दोळे उगडल्यात ते पळोवन तीं खोशयेन शंकराम्हऱ्यांत आयलीं. आवयन ताका वेंगेंत घेवन ताच्यो पापी घेवंक लागली.

शंकराच्या बापायन आनी गांवकारानी मारिओच्या ग्रुपाक वेगेंत घेवन तांची तोखणाय करूं लागले. पूण ताका परत जोर येत हाचो मारिओक भंय दिसतालो. ताणे थंयच्या लोकांचे दोन तुवाले घेवन ताका गुठलायलो आनी घरा व्हरूंक सांगलो.

ही गजाल कोणेतरी वैजाक सांगली. वैज ह्या भुरग्यांक खेपूं लागलो. पूण आज कोणच वैजाचें उलोवप आयकूंक रावले ना. ते ह्या भुरग्यांची तोखणाय करत शंकरागेर वेताले.

शंकराक घरा पावोवन परत जोर आयल्यार कसो पुसून काडात तें सांगून ते आज्येगेर आयले.

आज्येगेर तिचो पूत म्हळ्यार गांवचो मुखेली, आनी ताचे वागंडा गेल्ले हेर लोक परतले. हांगच्यो थंयच्यो गजाली करतकच तांचें लक्ष आमच्या चलयांचेर गेलें. "हीं कोण?" ताणी विचारलें तेन्ना सगळ्यांनी तांकां मारिओच्या पंगडाची सगळी गजाल सांगली. तेन्नाच मारिओ, राजा, परेश आनी जॅकी थंय पावले. ताणी तांकां मायेन पोशेले.

तांकां कोंकणी कळटाली पूण ते वेगळेच तरेन उलयताले. तरीपूण मारिओच्या पंगडाक ती समजताली. तांकां खोस जाली. मारिओन पिकनिकेच्या दिसाच्यान घडिल्ली सगळी गजाल मुखेल्याक सांगली. ताणे तांकां धीर दिलो, "भियेनाकात आतां. चमकत चमकत तुमी गोंयचे शिमेर आशिल्ल्या कर्नाटकांतल्या एका गांवांत पावल्यात, म्हूण तुमकां आमगेल्या लोकांची भास समजली ना. ते कन्नड उलयतात.

भुरग्यांक अजाप जालें. राजान विचारलें, "म्हणजे, आमी इतले पयस चलून आयलीं? आमकां कांयच कळळें ना" कशें तर?

"बरे म्हण बरें, ह्या रानांत जायतीं रानवटी जनावरां आसत. व्हड, व्हड जिवाळ आसा. देवा कुरपेन बरीं पावलीं तुमी हिंगा." अण्णान म्हळें.

"खरेंच ओजापशें. रातीकडेन जायतीं जनवरां आमी बशिल्ल्या झाडापोंदाच्यान वयतालीं. भयांकृत अशे आवाज काडटालीं. कोण कसलीं जनवरां कोण जाणा." जॅकीन म्हळें. "आमकां फकत तांचे चकचकर्पी दोळे दिसताले." मारिओन आंग शिरशिरावन म्हळें.

- जाणा अण्णा, आमी बसतालीं त्या झाडा लागसार उजो घालतालीं देखून घडये जनावरां लागीं येनासली जावये न्हय? परेशान विचारलें.

- आसतलीं, जायतीं जनावरां उज्या भितात. पूण तुमचें काळीज व्हड. त्या वयल्यान राखलीं तुमकां. एकल्यान दोनय हात जोडून म्हळे.

- वाग बी आसात त्या रानांत? मिनलान भियेवन विचारलें. अण्णाच्या एका भावान मिनलाचे तकलेवेल्यान हात भोंवडावन म्हळें, "आतां कसल्या भिता गो? हांगा वाग नात. सोडात आतां त्यो गजाली. तुमी बरीं पावलीं न्हय, जालें.

- आतां आमकां घरा... सियान वाक्य अर्देंच सोडलें. ते बरोबर हांसून अण्णान म्हळें, "हय, हय, पावोवया तुमकां घरा. हांगासान

माजाळे गेल्याशिवाय तुमी घरा पावचीं ना.''

- अण्णा, आमकां फोन करूंक मेळिल्लो जाल्यार घरा कळयतले आसले. राजान विचारलें.

- आतां फोन म्हळयार, तालुक्या गांवांत वतकच पळोवपाचें. ऑफिसांत आशिल्लो एक पळोवया. एकल्यान म्हळें.

- बायानो, माजाळे हांगासान जायतें पयस. चमकून वच्च्या जातलें मूं? एका गांवकारान हांसून विचारलें. उमेदीभरशीं सियान 'हय' म्हळें. पूण ताचें तोंड मात वांकडें जालें. ताचे पाय अजूनय सारके जावं नासले. ताचें तोंड पळोवन अण्णाच्या भावान म्हळें, भिलें गो? तुमकां चमकून व्हरचीं ना. बैलगाडयेंत बसून या आमी. हां.

- बरें तर भुरग्यानो आता जेवन बेगीन न्हिदया. फाल्यां फांत्यार उठूं जाय.

भुरगी फाल्यां वतलीं म्हणपाची गजाल रातचीच सगळयांक कळ्ळी.

फाल्यां तीं वतलीं म्हणून आज्येन आज जेवणार गोडशें केल्लें. ताणी ते खोशयेन खालें. तांच्या मनात आयलें, ''घरा मम्मा म्हऱ्यांत आमी कितले हट्ट करताली, खावपा जेवपाक. मम्माक त्रास जाताले जावये. पूण ह्या रानान आमकां सडीक केलीं. मेळटा तें पोटाभुकेक खांवक शिकयलें. उरिल्लें हे आज्येन शिकयले. मम्मान केल्लें सत्व आमी केन्नाच खालें ना. हांगा मात आमी आंबील पिवंक शिकलीं.''

फांतोडेर आज्येन तांकां उठयलीं. न्हावक लायलीं. रातचेंच

माणां पोंदा आज्येचे एके सुनेन लाकडा मुंडो पेटोवन दवरिल्लो. रातभर तो जळिल्ल्यान फांतोडेर तांकां हून उदक न्हावंक मेळ्ळें. उदक तापोवपाची तांची युक्त भुरग्यांक आवडली. रिटान मिनलाक हळूच म्हळें, "आज्येलो गिजर बरो न्हुय, लायटीची गरज ना."

तीं न्हावन आपले गणभेस, पिनकरे बूट घालून तयार जालीं. आज्येच्या सुनांनी तांकां आंबील पिवपाक दिली. भायर आंगणात गांवचे सगळे लोक तांकां मेळूंक आयिल्ले. आज्येन नासण्याची एक पोटली बांदून दवरिल्ली आनी सगळ्यांक वांटून घेयात म्हूण सांगिल्लें. हेर गांवकारांनी तांकां भाजिल्ल्यो काजूबियो, केळीं, पोपायो हाडिल्ल्यो.

- अण्णा, हें सामान आमी कशें व्हरतलीं? मारिओन विचारलें. "भियेनाका, आमी आतां बांदून गाडयेंत दवरता हें, मागीर तुमी मोटारान वतलीं न्हय? आमी येता मरे तुमकां पावोवपाक. तुमच्या घरच्यांकडेन तुमकां दिलीं काय आमी  सुटले. एका गांवकारान म्हळें.

ताणी सगळें सामान साका पोतयेंत घालून बैलगाडयेंत दवरलें. तांच्या इश्टांनी चल्यांक कोंयडे आनी बालां हाडून दिलीं. चलयांक तांच्या इश्टिणींनी बरे फातर आनी ताबूलफळें, ताबलां दिलीं.

भरिल्ल्या दोळ्यांनी ताणी दिल्ल्यो भेटी घेवन तांचो निरोप घेवन तीं बैल गाडयेंत बसलीं. गांवचे लोक थोडो वेळ तांचे बरोबर चलत आयले.

धा साडे धा वरांचेर ते तालुक्याच्या गांवांत पावले. सकाळच्यान

गाडयेंत वसून तांचें आंग दुखलें. पूण घरा पावपाचे उमेदीन तांकां ती दूख जाणवनासली. चले मर्दां मर्दां चलूनय येताले.

त्या गांवांत एकच सादेशें हॉटेल आसलें. अण्णान तांकां थंय व्हरून पाव-भाजी आनी चा दिली. खूब तेपान तांचें खाण तांकां मेळिल्लें. तीख असुनय घोरस्तान ताणी पाव-भाजी खाली.

बाकिच्यांक थंयच बसोवन अण्णा मारिओक घेवन पंचायतींत गेलो. थंयचो फोन केन्ना बंद पडिल्लो. मारिओचें तोंड पडलें. अण्णान म्हळें, ''आरे, आमी आतां रोखडीं माजाळे पावतलीं''. ताणी माजाळेची वाट धरली.

तिनाक सुमार तीं माजाळे पोलीस स्टेशनार पावलीं. मारिओन आनी राजान कितें कितें घडलें ते थोड्याभितर इन्स्पेक्टराक सांगलें. ताणे वेळ वगडायनास्तना मडगांव पोलीसस्टेशनार फोन लायलो.



हेवटेन पोलीस सेगीत चार दीस रान फिरताले. आशिकुशीच्या गांवांतय भुरग्यांचे फोटो दाखोवन चवकशी केली. पूण भुरग्यांची सुलूस तांकां लागली ना.

'रानवटी जनावरांची खालीं जाल्यार, सामान कांय खावचे ना. तांचीं बॅगां, बाटल्यो खंय गेल्यो?'' होच प्रस्न पोलिसांक सतयतालो. रानात बरेच भितर तांकां एक प्लास्टीकची बाटली, पिशवी मेळळी. 'ही त्याच भुरग्यांची कशी म्हणूं येतली? रानांत उदका बाटल्यो घेवन कोणय पिकनिकेक आयिल्लो आसूं येता.' ताणीच आपल्या मनाचो प्रस्न पुसून उडयलो.

मुखार तांकां पालवल्ली धुंवरी, तांतूत अर्द जळकीं लाकडां दिस्टी पडलीं. थंयच फळांच्यो साली बियो पडिल्ल्यो. जमनीर व्हड व्हड पानां एकठांय घाल्लीं आसलीं ''हांगां कोणतरी मनीस आयिल्ले आसूं जाय.'' एका पोलीसान म्हळें, ''पूण तीं आमगेलीं सात जाणांच अशें आमच्यानी कशें म्हणू जाता?'' आनी एका पोलीसान म्हळें. चलता चलता आरते परते प्रस्न तांच्या मनात येताले. पूण भुरग्यांची मातय सुलूस तांकां लागली ना.

निमणे भुरगीं मेळनात म्हणून निरास जावन ते मडगावां परतले. तांची घरचीं, शाळेचो हेडमास्टर, शिक्षक पोलिसांचेर आशा दवरून बशिल्लीं. पोलीस हात हालोवन आयिल्ले पळोवन सगळीं निरास जालीं.

भुरगीं शेणून आज स दीस जाल्ले. तांच्या आवयांनी रडून रडून दोळे सुजोवन घेतिल्ले. तेवटेन मारिओचो डॅडी गोयां येवंक भायर

सरिल्लो. ताका कितें जाप दिवपाची हें चिंतून ताचो तिर्तीव फुगार जातालो.

सातय भुरग्यांच्या घरच्यांचेर, सोयऱ्या धायऱ्यांचेर दुःखाची सया पार्तळिल्ली. शाळेंतलें वातावरणय दुखेस्त कशें आसलें. शिक्षक वर्गांत येताले, पूण कोणाकच शिकोवंक मन लागनासलें. सवेच्या वर्गाची तर रयाच गेल्ली. शाळेंतलीं भुरगीं खेळ, मस्ती विसरून फकत मारिओ आनी पंगडाविशीं उलयतालीं.

ह्या दिसांनी पेपरानी आनी टी.व्हीर तांचे फोटो दाखोवन वातम्यो येताल्यो. गोंयभर लोक ह्या सातय भुरग्यांपासत हळहळटाले. पोलिसांनी तरी अजून कशीं सोदून काडलीं ना म्हणून तांकां खेपतालीं.

त्या दिसा सांजेच्या चारांक सुमार मडगांव पोलीस स्टेशनार माजाळेच्या इन्स्पेक्टराचो फोन आयलो. ''साळावलेच्या रानांत शेणिल्लीं सातय भुरगीं माजाळेच्या पोलीस स्टेशनार आसात.''

घे ऽ मडगांव पोलीस स्टेशनार बोवाळ जालो. रोखडेच तांच्या घरच्यांचे फोन नंबर ताणी घुवणायले. थंयच पत्रकार आसले, ताणी सोमतेच इन्स्पेक्टराक आडवे उबे प्रस्न विचारपाक सुरवात केली. इन्स्पेक्टराक चड कांयच खबर नासलें. ताणे तांकां आपलेवांगडा माजाळेच येयात म्हूण सांगलें.

पांच वरां म्हणसर मडगांव पोलीस स्टेशनावयल्यान सगळयांक घेवन पोलीस व्हॅन भायर सरली.

साडेसातांक सुमार मडगांव पोलिसांची व्हॅन माजाळे पावली.

व्हॅनीचें दार उगडचे पयलींच भुरगीं आपल्या पालका म्हऱ्यांत धांवलीं. घळघळीत व्हांवपी दुकां पुसनासतनाय ताणी भुरग्यांक वेंगेंत घेतलीं. थंय आशिल्ल्या सगळयांच्याच दोळयांतल्यान खोशयेचीं दुकां गळटालीं.



गोवा कोंकणी अकादेमीच्या
'बाल नवलिका लेखन प्रकल्प' खाला उजवाडाक आयिल्ल्यो
बाल नवलिका

1. हरिश, पिरीश आनी देंवचार - सतीश दळवी
2. रानाच्या मनांत - माया खरंगटे
3. काणी आज्याली - देविदास कदम
4. वर्स फुकट वचूंक ना - गजानन जोग




गोवा कोंकणी अकादेमी